श्री० मेल्वीनबाब रोड्रीगस

मायेमोगान भेट....

5/9/2013

पणजी - गोंय.

# नवचेतना

(गीत संग्रह)

पुंडलीक नारायण नायक



**NAVACHETANA**
Collection of Lirics in Konkani
by PUNDALIK NARAYAN NAIK



**प्रकाशन क्र.** : 97

**पयली उजवाडावणी** : 2013

**उजवाडावपी :**
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें, गोंय : 403 401

**छापपी :**
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें, गोंय : 403 401

**अक्षर जुळोवणी :**
रिया ग्राफिक्स
ओल्ड-गोवा, गोंय : 403 402

**मुखचित्र आनी रेखाटनां :**
श्रीधर कामत बांबोळकार

**ग्राफीक डिझायन :**
कलानंद कामत बांबोळकार

**मोल** : ₹ 140/-

ISBN : 81-84488-97-9

**ॲड्. उदयबाब भेंब्रे...**

कोंकणीतलो गितकार,

जाचे, चान्याचे राती... कवितेक

लोकगीताचें भाग्य लाबलें!

– पुंडलीक नायक

# गीत रचना : म्हजे आवडीचो प्रकार

'नवचेतना' हो म्हजो दुसरो कविता संग्रह आनी पयलो गीत संग्रह. हांवें 1979 पासून नाटक, सिनेमा, आकाशवाणी, दूरदर्शन, आदि माध्यमांखातीर तशेंच संमेलनां, परिशदो हांचेखातीर जी येवकार गितां रचलीं त्याचप्रमाण गांवांतल्या भयणांखातीर ज्यो फुगड्यो रचल्यो तातुंतल्या भौतेक गितांचो आस्पाव ह्या संग्रहांत केला. त्या शिवाय वेळाकाळाक उत्स्फूर्दपणान रचिल्ल्या गितांचोय आस्पाव हातूंत आसा.

कविता आनी गीत हांच्या फाटल्यो प्रेरणा वेगवेगळ्यो आसतात. थंय उतरांच्यो रचना वेगळ्यो आसता. कवितेचे बाबतींत सांगपाचें जाल्यार - कविता ही कवीची व्यक्तिगत अनुभूती आसता. नाटक वो चित्रपट हांचे मागणे प्रमाण बरयिलीं गितां नाटक-सिनेमाच्या पात्रांच मनोभूमिकेंत वचून, तांगेले अणभव तांचे भूमिकेंत मांडपाचो यत्न आसता.

आपणाले कवितेंत कोणाचें अनुकरण जांवचें न्हय देखून कवी खूब जतनाय घेता. तेखातीर तो खूब जागृत आनी शादूर रावता. पूण गीतांत मात अशें ना. तातूंत आमचें फाटलें जें संचित - देखीक वाक्प्रचार, म्हणी, श्लोकांचो सारांश, संतांची वचनां हाचें पडबिंब आसता आनी थंय कोण हरकत घेना. कांय वेळार त्या संदर्भाप्रमाण ती ती उतरावळ सभावीकपणान थंय उतरता. गीत गेय आसचें पडटा. ती मुख्य गरज. देखून दर चार, स अशा फाड्याच्या वळी उप्रांत ध्रुपद येता, अशी रचना करची पडटा. यमक आसप गरजेचें. थंय तुमचे भाशेचेर तुमचें प्रभुत्व नासल्यार तुमचें शब्ददळिद्र तुमची लज काडटा. कोंकणीतल्या कांय गितकारांच्या उतरांचें भांडार सामकें उणें आसता. तांगेली चार/पांच गितां एका वेळार सलगपणान आयकल्यार तांगेले शब्ददळिद्र उक्तें पडटा.

सहजता, सोपेपणां, नाट्यपूर्णता, चित्रदर्शन हे बऱ्या गीताचे घटक आसात. कांतारांत सहजता आनी सोपेपणा आसता पूण तें केन्ना केन्ना इतलें सोपें आसता, तीच ताची मर्यादा थारता.

बरें गीत ही आशयाचे नदरेन बरी कविताय आसता, हें विसरूंक फावना.

कांय कविता, गितां अर्दकुटी सुचतात. पयलीं तांचे मुखडे सुचतात आनी वर्सांचीं वर्सां तशींच उरता. अशा अर्द उरिल्ल्या रचनांची एक चोपडीच /फायल म्हजेलागीं आसा. अदिं मदी हांव ती चाळटां. केन्ना केन्ना घेवन बसल्यार ती रचना पूर्ण जाता. गितांतलो विचार साहित्याच्या हेर प्रकारांत आयलो आसल्यार हांव ती नोंद काडून वडयतां.

हांगासर वाचप्यांचे सोयीखातीर गीत संग्रहाचे आठ वेगवेगळे विभाग केल्यात.

पयलो विभाग 'नमन.' नाटकाखातीर बरयिल्ल्यो नांदी, नाटक-जागरा खातीर बरयिल्लीं भक्तिगितां हांचो आस्पाव ह्या विभागांत केला.

'आंवडे' ह्या माथाळ्याखाला केल्ल्या दुसऱ्या विभागांत उर्बा, उमेद, हावेस, अभिमान ह्या भावनांचें पडबिंब पडिल्ल्यो रचना आसात. त्याच प्रमाण निराशा, खंत, उदासिनता, फसगत ह्यो भावना प्रगट जाल्लीं गितां आसात.

'प्रेमतरंग' ह्या तिसऱ्या विभागांत नांवाप्रमाण प्रेमभावना प्रगट जाल्या. प्रेमाचे वेगवेगळे आविश्कार तातूंत दिसून येतले. हातुतलीं कांय जोडगितां आसात.

'प्रेमजागोर' विभागांत 'प्रेमजागोर' नाटकांतल्या सगळ्या गितांचो समावेश केला. मदीं थोडें निवेदन जोडून दिल्ल्यान ती एक गीतकथा कशी जाल्या. 'प्रेमजागोर' नाटकांतलें देवांक लेखून केल्लें मूळ नमन आनी समारोपाचें मूळ गीत तशेंच दवरलां. त्यो दोनूय पारंपारिक रचना आसात.

पांचवो विभाग 'गजल प्रयास.' खऱ्या अर्थान हो गजल बरोवपाचो एक प्रमाणिक यत्न म्हणल्यार प्रयासूच आसा. गजल आतां भारतीय भाशांनी बरे तरेन रुळपाक लागल्या. शेजारच्या मराठी भाशेंतल्या गजलांनी कोंकणीचेर बरोच प्रभाव घातला. पोरण्या आनी नव्या कवींच्या संग्रहांत जशीं चार/स वळींचीं कवनां आसतात, तश्यो एक-दोन गजलूय आसतात. गजलनवाज श्री. भिमराव पांचाळे हांचे प्रेरणेन आनी प्रभावान श्री. अजय नायक ह्या तरनाट्या गायक-संगीतकारान कोंकणीतल्यान गजल प्रकार मुखार हाडपाचो यत्न केला. ताचेच मागणेवयल्यान हांवें 'हांव पिलां इल्लोसो' ही गजल रचली आनी ती तो गावपाक लागलो. गजल प्रकाराचेर आमी गोवा कोंकणी अकादेमी तशेंच साहित्य अकादेमीचे वतीन एक-दोन परिसंवाद घेतले. त्याच वातावरणांतल्यान हांवे ज्यो

सात–आठ गजल बरयल्यो तांचो आस्पाव ह्या संग्रहांत केला.

'शिर्शकां' विभागांत नाटक, फिल्म, हांचेखातीर बरयिल्लीं शिर्शक गितां तशेंच युवा महोत्सव, दूरदर्शन मालिका हांचेखातीर बरयिल्ली गितां एकठांय केल्यांत. कांय नाटकाचीं शिर्शकां आरंभाक बरोंवक नाशिल्लीं. तांचीं पुस्तकांय उजवाडाक आयिल्लीं. मागीर नाट्यदिग्दर्शक/संस्थांचे मागणे वयल्यान तांची शिर्शकगितां बरयल्यांत. अशाय गितांचो आस्पाव ह्या विभागान जाला.

'विडंबन' विभागांत विनोदी ढंगाची आनी विडंबन प्रकाराचीं गितां आस्पावल्यांत. होंवयो, मंगलाष्टकां, नांदी, हांचें केल्लें विडंबन हातूंत आसा. 'सटायर' नाट्यप्रकारा खातीर हलक्या–फुलक्या गितांची गरज भासता. तशीं बरयिल्लीं गितां हांगासर आसात.

आठवो आनी निमणो विभाग 'लोक मांड.' लोकशैलीप्रधान गितां हांगा वेंचून काडल्यांत. रचिल्ल्या कांतारांचो आस्पाव केला. म्हज्या वाड्यावयल्यो भयणी अदींमदीं म्हजेलागीं फुगड्यो सोदपाक येतात. तांकां खंयतरी सर्तिखातीर त्यो जाय आसता. हांव नाटकांबी बरयता म्हणटकूच फुगड्यो बरोंवक जाणां अशें तांकां दिसता. आनी म्हाका त्यो बरोवच्यो पडटा. अशा सात फुगड्यांच्यो रचना हांगासर आसात. 'आपोवणे येयेलां नाचपाकू' हें गीत हांवें 'गुणाजी' फिल्माखातीर बरयिल्लें. ह्या गीताचो आरंभाचो फक्त दोन वळींचो मुखडो कवी र. वि. पंडित हांचे एके कवितेवयल्यान घेतला. मुखावयली सगळी रचना म्हजीच आसा. 'वारे वा जिवित' हें कांतार म्हज्या मूळ 'सुरींग' नाटकांतलें. 'वारे वा मुंबय' ह्या पणजे आकाशवाणीचेर गाजिल्ल्या गीताचे चालीचेरूच तें बरयलां. 'भांगराचो तूं गुळो' हें गीत 'गुणाजी' फिल्माखातीर रचलां. तातूंत ओवी आनी मांडो गीताचें मिस्त्रण आसा.

म्हाका संगीतांतलें खास कांय कळना. आरंभाच्या काळांत म्हज्या नाटकांनी संगीताचो वापर उणो आशिल्लो. मागीर म्हज्या लक्षांत आयलें, नाटकांत संगीत हो सामको गरजेचो आनी आवश्यक असो भाग आसता. म्हज्या नाटकात संगीत ना, हाचें कारण म्हाका संगीत कळना. म्हजी उणीव हांवें प्रेक्षकांचेर लादप समा न्हय. मागीर हांवें म्हज्या नाटकांत लोकगितांचो आनी लोकसंगीताचो वापर करून तो उणाव भरून काडलो. श्री. राजदीप नायका खातीर जीं विनोदी ढंगाची

हलकी-फुलकीं नाटकां बरयलीं. ताका लागून जायत्या हलक्या-फुलक्या गितांचें लेखन जालें. त्यावूय गितांचो आस्पाव ह्या संग्रहांत आसा.

गुणगुणप हो मनशाचो सभावधर्म आसा. कवी-लेखक प्रकृतीचो मनीस आसल्यार तें गुणगुणवप गीत प्रकाराकडेन झुकता. म्हाका पयलीं दिशिल्लें, पयलीं गीत रचना घडटा आनी मागीर ताका चाल लागता. पूण पं. भास्कर चंदावरकरांच्या एका भाशणान म्हाका कळून आयलें, तें म्हणल्यार पयलीं गुणगुणप जावन चाल येता आनी मागीर उतरां येतात. हेच प्रक्रियेंतल्यान आमचें लोककाव्य निर्माण जालां. म्हजेय बाबतींत अशेंच घडलां. पयलीं म्हजे पद्धतीन चाल आयल्या आनी मागीर उतरां. कविवर्य बाकिबाब बोरकारूय हेंच सांगताले.ते म्हणटाले, दर एक गित आपली चाल घेवनूच येता. म्हजीं गीतां छंदोबद्ध ना हाची म्हाका जाण आसा. पूण गेयतेखातीर लागपी लयबद्धता तांकां जरूर आसा.

ह्या संग्रहांत मागणेवयल्यान, गरजेंतल्यान कांय रचना घडल्यात. तातूंत कारागिरी अवश्य आसा पूण तांकां सर्जनशिलतेचो स्पर्श ना अशें म्हणूंक जांवचें ना. कांय रचना मात उत्स्फूर्तपणान आयल्यात. जायते फावट हांव म्हणटां - म्हाका नाटककार जावपाचो नासल्यार हांव गितकार जावप पसंत करतलों आसलों.

संग्रहांतल्या गितांच्या संकलना खातीर श्री. पांडुरंग का. गावडे, श्रीमती ज्योती कुंकळकार, श्रीमती शकुंतला भरणे हांचो खूब आदार जालो. श्रीधर कामत बांबोळकार हाणीं सोबित मुखचित्रा शिवाय आटूय विभागांखातीर स्वतंत्र रितिन रेखाटनां काडलीं.

छापणावळी खातीर रिया ग्राफीक्स आनी रूतु ऑफसेट हांचे धनी आनी कर्मचारी हांणीं खूब तकालस घेतली. सगळ्यांचे उपकार!

**- पुंडलीक नारायण नायक**

# मांडावळ

1.

## ईश्वरा दयाघना

ईश्वरा दयाघना,
तूंच खरो निर्मातो
घरामुखार फुलता-फळटा
तुजे कृपेचो कावथो

ह्यो तुवेंच दिल्ल्यो बियो
ह्यो तुज्योच जायो-जुयो
तूंच फुलयता पर्मळीत हो
केगदी बेटांत हातो

हें कुप-कुंभांतलें अमृत
तें तूंच येता शिंवरीत
तुजी निर्मणी, फळांत पाणी
हो जीव पोसता आयतो

ह्या प्राणी जनांचीं सपनां
तुजी मोडून वडयता रचना
तेन्ना करता एका खिणांत
संसार आरतो-परतो

2.

## धनयां देंवचारा

धनयां देंवचारा, धनयां देंवचारा
न्हय रे भुता, न्हय रे देवा, मदल्या रूपकारा ॥

छीन् छीन् छीनाक् । छीन् छीन् छीनाक्
आपा लिपा धर ताका । मुतूं नाका थुंकूं नाका
चिला-पिला पांजी खाला । धापा ताका धपाधपा ॥

कोंब्यान साद घालचेआदीं
तांबशी आजून फुटचेआदीं
कंठ पिल्यांक सुटचेआदीं
मनशांकुळां उठचेआदीं
कोण मारता भोंवडी? सगळ्या संवसारा ॥

धोलता पेडार तांबडी घुडी
पेट्टा काळखांत उज्या चुडी
केळम्यापानां आख्खी विडी
सोऱ्यारोंटा तुजी वाडी
पावता पेडार कशी? बुधवार आयतारा॥

फांतरगुणे आमचें जीणें
तुजे बगर राखचें कोणें
पावस उदक तुजें देणें
तुजे करामती विणे
चूड पेटत कशी ? आयल्या पयल्या दोंगरा ॥

3.

## पयलो साद घालतां देवा

(नांदी)

पयलो साद घालतां देवा
रंगराज नटेश्वरा ॥

रंगमोगी बाळकां आमी
दिशी–माशीं रंगपिशीं
नमळायेन रावल्यां उबीं
धनयां तुज्या आशिर्वादा

अथीर चित्त जळामळा
हाड सायबा एका मुळा
रसिकांच्या काळजा तळा
पावय आमकां ईश्वरा

रंगभार येवंदी आतां
सप्तरंगी जावंदी दिकां
संतोसाचीं फुटून ल्हारां
येवंदी ओतो अंतरां

4.

## नमन नटवरा

(नांदी)

नमन नटवरा नमन शंकरा
आदीशक्ती माया
नटखट आमी तुर्जी बाळकां
तुकां प्रार्थितां राया

नाट्यदैवता नटा नर्तका
प्रथम प्रेक्षका प्रवर्तका
मानव देहार नर्तन तांडव
कितलें सैमीक लिलया

तुजी प्रेरणा करून स्विकार
हो सर्जन आविश्कार
यशविजयाचो आमचो हावेस
वचूं दी संकट विलया

5.

## तुजेच कृपेन चलता देवा...

तुजेच कृपेन चलता देवा
चलता गांवगाडो
तुजेच मायेन नंदता देवा
नंदता सगळो वाडो

मांडार पेटल्या वात देवा
दाखय आमकां रस्तो
वाटेतिटेचो काळोख देवा
दाटून जाला मस्तो

खेळूंक आयल्या मांडार सायबा
तारे आनी गिरे
मांडार आतां शिंवरतले
माणकां मोतयां हिरे

6.

## देवा धनयां भगवंता

देवा धनयां भगवंता
दर्शन दी रे गुणवंता

अजाण बाळकां अज्ञानी रे
उज्वाड दाखय यशवंता

पांचांचे पंचीश्ट कर रे
तुज्या पांयांर श्रीवंता

पावळे पाणी पाडसाक पावय
तुजें काम तें धनवंता

7.

## म्हज्या काळजाची पणटी पेटय

म्हज्या काळजाची पणटी पेटय
देवा म्हाका आत्मरुपा भेटय ॥

मन जाता पारपोळ गोरूं
मन सरावता रे चोरूं
अति आस मनाची पालय
पोट रे एका वेताची खळय ॥

मन जाता पाखरूं पाखरूं
ताका कशें कशें थातारूं
पायांक बंदपास वेढय
कृपेचो रंग पांखांर चडय ॥

8.

## हें निमाणें पालखेचें पेणें

हें निमाणें पालखेचें पेणें
आतां ना देणें आनी घेणें ॥

ही खूब कश्टली काया
ही व्यर्थच गेली मृगया
हें बदसूर जालें जिणें
दयेच्या सूर तालाविणें ॥

नाका पानाफुलांचीं तोर्णां
नाका उज्वाडाचीं किर्णां
नाका प्रेम–प्रितिचें शिंपणें
हें कुडीर झेलचें दुखणें ॥

9.

## नवचेतना येता फुलून...

नवचेतना येता फुलून
नवकल्पना येता फळून ।।

येतलो उदेवन भांगरा गुळो
शिंवरीत हो सगळो मळो
हो सूर्य किरणां कळवळो
मनशाकुळा येवचो कळून

आसत हांगा वेगळीं जनां
हातांत हात जुळटा मनां
नीजधर्म ना हो अर्सना
वेगळेपणा वेता गळून

धांपून आसा जीं साळकां
बंदी आजून जीं बाळकां
कोण उरचो ना ह्या काळखां
मंत्र नवो येता रूजून

नवचेतना येता फुलून
नवकल्पना येता फळून

10.

## सानसानुल्या मोगरे कळ्या...

सानसानुल्या मोगरे कळ्या,
फुलतलो केन्ना कसो सांग?
वाटेवेल्या व्हांवत्या व्हाळाक
घालून कशी येतलो दांग?

मुठींत तुजे सुख सगळें आस्पावलां,
बंद कुडींत मन म्हजें धास्तावलां
केल्ले अर्थीची, दिल्ले दयेची
फेडटलो कशी मायेची पांग?

दोनूय घरांचो फुलता वंशरूख,
दोनूय दोळ्यांचें तूंच एक सूख
मळबाची उंचाय दर्याची खोलाय
सोदतलो कशी नदरेंत सांग?

□□□

दोळ्यांहुजीर करपली म्हजी पांचवी बाग,
नशिबाचेर कसो म्हणून प्रगट करूं राग?
आवयची भूक सुखाची दूख,
मातयेंत कशी रकयली सांग

सानसानुल्या मोगरे कळ्या
फुल्लो ना तूं कित्याक सांग?
वाटेवेल्या व्हांवत्या व्हाळाक
कशी अडून उल्ली दांग?

11.

## दर्याचें गीत

पलतडयां उले.रे । ओ ऽऽ तारी तारया रे
आलतडयां उले रे । ओ ऽऽ तारी तारया रे ।।

आयले तडी मठी ताचे । पयले तडी दोळे रे
पयले तडी राटी ताच्यो । आयले तडी जीव रे
काम रे धाम रे । दोन तडी दोन रे
मदलेमदीं हुमकळटा । केन्नाच्यान कोण रे।।

भल्लो शिडां वाव तर । लागीं तुजो गांव रे
ना जाल्यार बसचो सोदीत । दर्याचो थाव रे
दर्यो रे तारयो रे । सरये वयलो नाच रे
दिसले तरी आंवळनात । मर्णाचे पास रे ।।

ओड्टें पाणी थीर जरी । खिणाचो धीर रे
चड्टें पाणी सुस्त जरी । पावता तडी ज्युस्त रे
येंवचे रे गांवचे रे । दर्याचें गीत रे
सुकती रे भरती रे । जिणेची रीत रे ।।

12.

## फातरार फातर चड्टा रे

फातरार फातर चड्टा रे
सुंदर मंदिर घड्टा रे
वास्तूदेवता रावल्या तयार
होंकल जैसी सव्यार रे

फातरार फातर चड्टा रे
काळोख कोनशाक दड्टा रे
धायदिकांचो उज्वाड आतां
गर्भकुडींत फांकता रे

फातरार फातर चड्टा रे
भाग्य कोणाचें घड्टा रे
कपलावैलें दळिद्र सगळें
सुकीं पानां जावन झड्टा रे

13.

## आमी झर झर झरले मरे

आमी झर झर झरले मरे
आमी सर सर सरले मरे
आमी हांगाच उरले मरे
आमी हांगाच उरले मरे

आमीच शिंपले कावथे कवळे
उस्पून बांयों पिळून बावळे
फळून आयले रूख ते सगळे
पाडून हाणी व्हेले मरे

गुपाट काळखी वाट दुरीची
आमीच केली चूड कुडीची
नदरेक पडटां शीम ती गांवची
आमकां सोडून धांवले मरे

हाणी बांदाचेर माल्ली बातां
आमी नाक्शांनी कस्लीं शेतां
लुवूंक आमी गेले झेतां
कणसार हांचीं नांवां मरे

माडा कणकणी नगा कणकणी
आमी नाल्लांनी भल्लें पाणी
अदृश्टाची आमची काणी
सुक्याच ताळ्यान गायली मरे

14.

## घुडी लागली रे

घुडी लागली रे घुडी लागली। घुडी कळसा माथ्यार लागली
पूर्वजांचें संचीत सगळें । देखतां तानभूक भागली

दिकांदिकांतल्यान नाचत आयले । आयले रंगीत मेळे
फुलत्या मुखांचे हालत्या मानेचे । उमेदरंगी खेळे
पानां पानांतल्यान जागून उठले । उठले पांचवे मळे
पाशाणफातरा फुटून आयले । चैतन्याचे कळे
आयज श्रीचो उत्सव व्हडलो । रंगसभा रे रंगली

तळगाळाच्या भौसजनांची । अदृश्टाची काणी
नीज सत्वाची, अभिमानाची । तिठ्यार जाल्ली पावणी
रक्तहुमेचें घालून शिंपणे । सृजनाची निर्मणी
खर कश्टांनी, भुंयपुत्रांनी । काडल्यो रसाळ पेणी
बारा हतयांचें पाखांत बळगें । धोलार तोणी पडली

15.

## पड रे पावसा

झड रे पावसा पड रे पावसा
रक रे कमरभर
मळ्यांत रूजला, तळ्यांत मातला
कोचोप हुमटून व्हर

मारून गडगड करून लखलख
सगळो कलकल कर
किडी–पिले हे खूब जियेले
तांका व्हळून व्हर

वादळ वारें आपय सांगाता
धायदिकांत तरतर
मळबा भिडपी गर्ववीरांक
दाखय खाला धर्तर

राया वरुणा, तुजीच करुणा
सैमपूत्र तूं थोर
कोणा जमचीना, मनशा येवची ना
तुज्या बळाची सर

16.

## येतले दीस अशे

येतले दीस अशे, चिंतूक नासलें कोणे
चलते पालखेचे अशे, झडून वतले गोणे ।।

माथ्यार मारून पाटली, चलून आयलों वाट
मानून सगळीं आपलीं, देवून आयलों घाट
हातांन उस्तून माती, पेरून घेतले दाणे
उसरां आयलें मतींत, रेवेंत ओतले हाणे

नाचून आंगणां गेलीं, विविधरंगी शेवणी
किरामोरांची पडली, जीवाक भुलभुलौणी
दिसून आयलें जबर, हेंच सुखाचे पेणें
कोणांक आसली खबर, सगळें नकली गाणें

संकश्टाची भिरीं, आपोवन हाडली बळयां
तोंपून आंगाक शिरीं, रगत गळयलें दोळयां
सावध नासलों देखून, सदळ उरलें जीणें
वसूल घेतलें करून, काळांन आपलें देणें

17.

## रक्तसांवार ! हाय रे हाय!

रक्तसांवार ! हाय रे हाय!
घायार घाय ! हाय रे हाय!

नीळ मळबाचे धारेपेल्यान
साद खडपाच्या काळजांतल्यान
कपला वयल्यो लिखित रेशा
व्हळून वतल्यो हुमेंतुल्यान

जिवीत जालां घट फातर
दडून आसा काळोख भितर
उज्वाडाचें किर्ण उदेंतलें
फोडून तोडून ही धर्तर

फाटीक बांदून वेंतभर पोट
जिवीत देंवचाराचें रोंट
मयपासांचे बंद तोडून
कोण जीणेचेर मारता खोंट

18.

## खण खण खण – काळजार घण

खण खण खण – काळजार घण
घण घण घण – मनार व्रण

माकनार बसून आयला सांवार
दातांक काडून चड्टी धार
दोंगरा पोटांत दडलां धन
चिरून फोडून केलें रण

सृश्ट सदांच पांचवी जिती
भांगर पिकोवपी हांगची माती
शेतांत रुजलां लोखणी तण
मातयेंत शेणला शिताचो कण

मळबाक भिडल्या केदी रास
राशींत दडला फायचो नास
राशीन निर्मिला व्हडलो फोण
फोणाचो सोद घेता कोण?

प्राक्तन रावलें कितलें निबर
जित्या–जिण्याचो जालो गोबर
आपल्या हातानी रचलें सरण
उक्त्या दोळ्यांनी भोगलें मरण

19.

## आमी जावन गेले

आमी येवन गेले, आमी जावन गेले
पुरुशार्थाचें गीत आमी गावन गेले ॥

ओ रे सोय, ता ता थै, झिंगचे झिंगय, शबै शबै

आमीच आमका उखलासून गा थेयले तुळशी पेडयेर
ह्या देहाचो निवेद्य वाडलो देंवचाराचे वाडयेर
भर दनपारच्च्या वोतांत आमी आमकां घेतले तिजून
उमास राती मध्यान्नीचेर भयाक खाल्लो भाजून
आमी असलीं कुळां
आमी असलीं मुळां
गुंथुन इंगळे होमखणांतले गळ्यांत घालपी झेले ॥

आमीच आमची निमणी घांट वाजोवन घातलें पेरगांव
आंगार काळीं न्हेसणां घालून व्हडलें काडलें पुरसांव
मुकूट कांट्याचो घालून माथ्यार तेळून घेतलो संवसार
रगताच्च्या तांबड्या लेत्रांनी रचलो नवो करार
आमीच आमचे धनी
आमीच आमचे स्वामी
आमीच आमकां खुर्साचेर उबेच खिळावन घेतले ॥

गाळी नाळींची भर दर्यांतलीं आमी बुडयलीं तारवां
ह्या हातांनी शिंगां कोंचून परतीं धाडलीं मेरवां
आमचें सरयें, आमचीं शेतां, शिमेर माल्ले खुंटे
आमीच आमचें भाग्य फळयलें फुलोवन रानांत बुटे
आमी म्हणून हें केलें
आमी म्हणून हें जालें
पेजेमुखार शेंवटून मारले अमृताचे पेले ॥

आमी शांतेचीं करूणेचीं नमळायेचीं बाळकां
दिव्यत्वाच्या मुखार आमी मान बागयिल्लीं साळकां
आमच्या काळजांत सदांच पेट्टा उजवाडाच्यो चुडयो
आमच्या कळसार सदांच धोलता जैताच्यो गा घुडयो
आमी न्हय भिजडे
न्हय बाबत गडे
सत्याची गर्जना करताना आमी कोणांक ना भिले ॥

20.

## शांती रे !

शांती रे! शांती रे! शांती रे! शांती!
मसंडभुयेंत दडून आसता उमाशेचे राती

पटापट पालोवन घाला, काळजांतल्यो वाती
तटातटा तोडून दिया, नातीं आनी गोतीं

सगळें फट एकूच खरें, गोबोर आनी माती
शांती रे! शांती रे! शांती रे! शांती!

21.

## सये अस्तुरेचें जीणें

सये अस्तुरेचें जीणें । उड्टे पालखेचें पेणें

सये बापूय आनी भाव । तशे देर आनी मांव

सगळीं पुरूशाचीं फळां । आमचे मन कोणां कळ्ळां

कोण राया? खैंची माया । सये चंदनाची काया

सये झरय नातर जळय । आनी सात जल्म फळय

आमी सती सये सती । जीण गोबोर आनी माती

22.

## न्हय गे सये वाट ती चलून वचपाची

– न्हय गे सये । वाट ती चलून वचपाची
– हय गे सये । आपोवण्याची वाट देखपाची

– न्हय गे सये । पालखी ती मर्दींच थारपाची
– हय गे सये । जावचें पेणें तेन्ना रावपाची

– न्हय गे सये । नातीं – पातीं घेवन वचपाचीं
– हय गे सये । कापल्या वार तशीं तोडपाचीं

– न्हय गे सये । संपत ही वेंगावन बसपाची
– हय गे सये । आस हांगाच पुरून वचपाची

– हय गे सये । हय गे सये

23.

## स्वामी चैतन्याचीं राया पावलां वाजता

स्वामी चैतन्याचीं राया पावलां वाजता
स्वामी चैतन्याचीं राया पावलां वाजता

खोऱ्या कुदळीवयली राया कलम झडटा
आडवीं धडां आयज उबीं जाता
उबीं उबीं भेंडां आयज बाग घेता
दडी मारून आसलो वाव आयज व्हांवता
शेणून गेल्लो सूर राया आयज गावता

खण खण खण राया खण कुदळीं
मण मण मण राया मण माती

24.

## सकाळपारा उत्तीं केलीं जनेल आनी दारां

सकाळपारा उत्तीं केलीं जनेल आनी दारां
आमच्या घरा खेळूंक आयल्यां किरां आनी मोरां
शोऽऽ किरा शोऽऽ बाऽऽऽ मोरा बाऽऽ
आंगणांतलीं माणकां आनी मोतयां वेंचून खा

आपय किरा तुजे वांगडा गीत गावंक भोंवरां
नाच रे मोरा बांदून पांयांक छूम् छूम् घुंगरां
पांयांतळा जळामळा शिंवरल्यां हीं भांगरां
सगळीं सुखां देवून आयल्यां सुवर्णाच्या नगरां

25.

## काळजाच्या दोण्यांत म्हज्या...

काळजाच्या दोण्यांत म्हज्या उपाट भल्ल्या खोस
वयर वयर तेंगशेर फुलां फुलां घोस

खळखळून व्हांवता पळय उदकाचे वझरे
उडून गेले कीर पयस मोडून आपले पांजरे
पिकून फळां जार जालीं गळचो जाला रोस

गोरवां कानांत रिगलां वारें जळामळा धांवता
हांयसाची जोडी तळ्यांत तड सोडून पेंवता
तन्नीं मस्तीं पाडकां पळय कोंडींत घालता धोस

उमेदीचीं खेळटा ल्हारां सैमाच्च्या गोपांत
आमी कित्याक रावचीं वगी मोग धांपून ओठांत
बंधमुक्त जांवया सोडून संवसाराचो सोस

26.

## तूं आयज येतलें देखून...

तूं आयज येतलें देखून
चांफो पालेला
तुजें हांशें तशीं फुलां
फुलोवंक आशेला

तूं आयज येतलें देखून
चमेलीक आयला भार
देंठ सोडून रावल्यां फुलां
कोसळूंक तुज्या माथ्यार

तूं आयज येतलें देखून
वोत जालां मोव
थंड शीतळ करूंक वांठार
पडचो जाला दंव

तूं आयज येतलें आनी
भरून वतली जीण
तूं परत वतलें तेन्ना
जड खिणान खीण

27.

## गीत एक गावचें आसलें

गीत एक गावचें आसलें
उतरां गेलीं विरून
प्रीत एक खेळची आसली
रात गेली सरून ।।

ही कूड स्वासांनी पेटली
ही दुराय आपसूक गोठली
बंद ओंठांनी, धूंद लोटांनी
जाप दिली भरून ।।

प्रित शिरांत घोळटा मोनी
ही आंगार रुजता ज्वानी
रात सजोवपाक, वात जळोवपाक
देह दिवचो पिळून ।।

जीव गाळून घेवचो भोग
हो असो अनाडी मोग
पिशी पिकावळ, तशी सुखावळ
रकली कुंभ भरून ।।

28.

## धर म्हाकां तूं धर

धर म्हाकां तूं धर
काळजांत बंद कर
तुज्या आंगणांत थुईथुई
नाचतां जावन मोर

कितल्या दिसांचो उपास
अर्थहीण तो तपास
कासावीस हो जीव तळपेता
तान्सोर लागला खर

आळवा पानाचेर हांव
हांगसर थंयसर धांव
पावला कणकणी गळून गेलो
पायांतलो तरतर

ही भोंवडी जाली लांब
हें कर्पून गेलें थांम
पिकचें आदीं कोणें खरपिलो
उबे बियेंतलो गर

चुकप जालें चड
जगप जालें नड
अपराध्याक माफ करपाची
किर्त तुजी ती थोर

29.

## फुटलीं फुटलीं सावरीचीं बोणां

(जोड गीत)

दोगांय : फुटलीं फुटलीं सावरीचीं बोणां
आनी वाऱ्यार हुबलीं मनां

तो : सकाळच्या पारा, आयलें तूं दारा, सांगून गेलें कानांत
मोगा आसलें जें तुज्या मनां
ती : सकाळच्या पारा, आयलो तूं दारा, सांगून गेलो कानांत
मोगा आसलें जें तुज्या मनां

दोगांय : फुटलीं फुटलीं सावरीचीं बोणां
आनी वाऱ्यार हुबलीं मनां

तो : फुलाच्या गंधाची, फुलाच्या रंगाची, तुजेकडेन सर्त ना
असलो मोग लाबला कोणा
ती : जीणेच्या सुखाक, जिणेच्या रुखाक, तुज्याबगर अर्थ ना
असलो मोग लाबला कोणा

दोगांय : फुटलीं फुटलीं सावरीचीं बोणां
आनी वाऱ्यावर हुबलीं मनां

□□□

तो : सांजेच्या वेळार भेटलें तूं मळार, नदरेक नदर ना
तुज्या हाताक पांचवीं कांकणां
ती : सांजेच्या वेळार भेटलो तूं मळार, नदरेक नदर ना
मोगा परक्याचें जालें केन्ना

दोगांय : फुटलीं फुटलीं सावरीचीं बोणां
आनी वाऱ्यार हुबलीं मनां

30.

## ज्या फुलाक गंध भल्ला...

(जोड गीत)

ती : ज्या फुलाक गंध भल्ला त्या फुलाचो मोग म्हाका
ज्या मनांत मोग रीगला त्या मनाची ओड म्हाका

तो : मस्त उचंबळ खळखळ सागर काळीज घेता जिखून
अस्तमतेच्या रंगरुपाक जीवन दिवचें विकून

ती : झुळूझुळू व्हांवता हून रक्ताचे शिरांत वझरे जिवे
मन-मंदिरांत पेट्टूंक लागल्या शांत मंगल दिवे
शीतळ सावळेंत सुखावलेले दीस जाल्या म्होवे
घोंटेरांतल्या कालच्या सवण्यां फुटलीं रंगीत पाखां

तो : चडटा धुंदी सुवर्ण संदी कानांत वाजता धून
पावला पावलाक अमृत चाखचें हिच सुखाची खूण

ती : माया ममता पोसता काळजांत हांगची सुंदर माती
खोल तळांतल्यान रुजून येता तन्नी कंवळीं हीं नातीं
उजळत बळटा जशी अस्मिता सोबीत संथ गतीन
नीज वैभव हें मिरोवन घेवचें दुजें परकें कांयच नाका

तो : नवें उदेता, पोरणे सरता गतीक रावचें दसून
कंवळी पिंपरी चाबून खावची जावचे आदीं जून

31.

## नाच राधे नाच...

(जोड गीत)

तो : नाच राधे नाच राधे यमुनेच्या कांठार
प्रितीच्या परमळान भरूंदी सगळो वांठार
ती : ना रे कान्हा ना रे कान्हा यमुनेच्या कांठार
प्रितीच्या परमळान भरत सगळो वांठार

ती : कित्याक आडायता वाट म्हजी तूं नस्ती तुजी खोडी
लाडीगोडी, लाळेगाळे संवय तुजी पाडी
तो : तुजेच खातीर चल्ल्या राधे इतल्यो काडाओडी
गोकुळांतल्या कुळागरांतली तूं तर तन्नी माडी
नाच राधे नाच राधे यमुनेच्या कांठार
प्रितीच्या परमळान भरूंदी सगळो वांठार

ती : हर रंगाची खेळटा हरी तूं खेळटा सदांच होळी
तुजीच करणी सदा नखलामी म्हजोच पडटा बळी
तो : हांवूच मोगी अधीर अधाशी तूं तर राधा सवळी
समजून घे तूं केन्ना वाजना एका हातान ताळी
नाच राधे नाच राधे यमुनेच्या कांठार
प्रितीच्या परमळान भरूंदी सगळो वांठार
ती : हय रे कान्हा हय रे कान्हा यमुनेच्या कांठार
प्रितिच्या परमळान भरूंदी सगळो वांठार

32.

## अस्तुरी सुंदरी पर्वताची परी

(जोड गीत)

तो : अस्तुरी सुंदरी पर्वताची परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी
ती : राखणो तूं, देखणो तूं, राजकुंवरापरी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी

तो : तुजेखातीर राणी, दोंगर आयलों चडून
कांटेखुटे मोडून आनी वाली तोडून
ती : तुजेखातीर राया, रावलें नटून थटून
प्रेमाच्या पाखरांची आयली भेट घडून
तो : अस्तुरी सुंदरी पर्वताची परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी
ती : राखणो तूं, देखणो तूं, राजकुंवरा परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी

तो : सांग केन्ना राणी, तुजी म्हजी रात?
जागून जळटली दिव्यांतली वात?
ती : नाका येन्ना राजा, धरचो आसा हात
तुज्यावांगडा चलचें आसा पयलीं पावलां सात
तो : अस्तुरी सुंदरी पर्वताची परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी
ती : राखणो तूं, देखणो तूं, राजकुंवरा परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी

33.

## अंबिका तूं, राधिका तूं

(जोड गीत)

तो : अंबिका तूं राधिका तूं
महेश गोपाळ हांव
युगायुगाचें जोडून आसा
म्हजें आनी तुजें नांव
तीं दोगांय: जय जय महेशा रे
जय जय गोपाळा रे

तो : रूद्र रुपाचें तांडव करतां
कैलासाचेर हांव
अग्नीचो अवतार म्हजो
कोणांक गिळूं काय खांव!
तीं दोगांय: जय जय महेशा रे
जय जय गोपाळा रे

तो : रासक्रिडा ती खेळत आसतां
गवळणी संगे हांव
मदनाचो अवतार म्हजो
गोकुळ म्हजोच गांव
तीं दोगांय: जय जय महेशा रे
जय जय गोपाळा रे

34.

## म्हाका संवसार करपाची लागल्या आस

(जोड गीत)

ती : म्हाका संवसार करपाची लागल्या आस
तो : म्हाका दौलत जोडपाची लागल्या आस
ती : तुकां सांगात दिवपाची म्हजी ही भास
तो : तुकां सांगात दिवपाची म्हजी ही भास

तो : सांज उदेली काळोख जालो दाट
ती : दारांत येवन राजा तुजी पळयतां रे वाट
तो : अशें अकस्मात राणी मुख तुजें खंती
ती : कशी विसरलो सांग रे फुलांची फांती
तो : सोबित रंगीत फुलाक कित्याक नकली वास
ती : उतरां तुजीं पुरो आनी पुरो सहवास
तो : तुकां सांगात दिवपाची म्हजी ही भास
ती : तुकां सांगात दिवपाची म्हजी ही भास

तो : भेटोंव कितें सांग राणी परब नवी
ती : सोंपय म्हज्या हातांत तुज्या सुखाची चावी
तो : देखून हाडला राणी हो खास अळंकार
ती : कित्याक वगीच राजा हो भांगराचो भार
तो : अळंकार हो नकली राणी हांवें मारली फटास
ती : मोग तुजो खरो राजा म्हजी ही मिरास
तो : तुकां सांगात दिवपाची म्हजी ही भास
ती : तुकां सांगात दिवपाची म्हजी ही भास

35.

## प्रेमजीवांची जोडी

(जोड गीत)

दोगांय: झुकु झुकु झुकु झुकु गाडी। काडटा काडाओडी
गाडयेंन बसून चल्ली । प्रेमजीवांची जोडी

तो : दोंगर कितले ऊंचउबार । झाडांपेडां पाचवींचार
फुलांक फळां आयला भार । वारें गोऽऽ थंडगार
प्रेमा गो ऽऽ
हांव भाटांतलो माड । तूं कुळागरांतली माडी

ती : शांत वगी साळकाचें तळें । धडेर केळीर पिकलां केळें
न्हंयेचें पाणी निळें निळें । उडटा थंय मस्त शेवाळें
प्रेमा रे ऽ ऽ
तूं दर्याचो तारयो । हांव तारयाची रे व्हडी

तो : केंस माथ्यार भुरूभुरू । मन हें धांवता तुरूतुरू
कानांत भोंवर गुरूगुरू । ही तर मोगाची कुरू
राणी गो ऽ ऽ
आत्तां आसलीं काणकोणां । केन्ना पावली वाडी

ती : हांव तुजें रे सांगाती । जिणेक आतां येतली गती
तुजी म्हजी खरी प्रिती । रंगीत करच्यो राती
राजा रे ऽ ऽ
मुंबय पावली गाडी । म्हाका सिफोनची साडी

36.

## रानफुला सपन तुजें

रानफुला सपन तुजें फुटून जालें चूर
सवण्यापिला सूख तुजें उडून गेलें भुर ॥

घेवन तुज्या मोगावास कोण आयलो खास
नळये भितर घुस्मटूलो बांसरेचो सूर ॥

कसली माया कसलो मोग सगळो उज्याधग
कंवळी कळी चेंचून वता माथ्यार पडून खूर ॥

37.

## धायदिको आयल्या भरून

धायदिको आयल्या भरून, खोशयेन मन गेलां फुलून
येतलें भांगर शेतांत पिकून, संवसार हांव घेतलें जिखून

मोगा हांव तुजी राणी – हय राणी...
भांगरा पेल्यान आमकां पाणी – हय पाणी...

लागीं तूं आसलो तरी तुजो ध्यास
ध्यास कसो कळना, मनवळना, हय वळना..
म्हजी तुजी जोडी काडाओडी,
अमृताची गोडी ती ऽऽ तान भागना, कशी भागना..

ए सुखा, व्हर म्हाका, लावन पांखां, लागीं नाका
दूर दिगंता, हय दिगंता...
ए मोगा, ए राया, घे म्हाका तुज्या गोपांत
मोन्यांनी, हय मोन्यांनी...

38.

## प्रेमजागोर

(जागराचो पंगड पारंपारिक नमन गायता)

नमन माजेंऽऽ मांडाच्या गुरू
नमन माजेंऽऽ सांतेरी माये
नमन माजेंऽऽ देंवचारा देवा
नमन माजेंऽऽ रौदिऱ्या देवा
नमन माजेंऽऽ गांव पुरसा देवा
नमन माजेंऽऽ सर्वय देवांक
नमन माजेंऽऽ बसलेले सभेक

(वाजोवपी पंगड मांडाच्या गुरुक होरायता. मांडाचो गुरू म्हणल्यार जाग्याचो सोरोप ह्या अर्थान. सोरपासारखो भेस केल्लो, दोनूय हातांनी फडा उबारून एकलो नाचता.)

मांडाच्या गुरू म्हाज्या नाच रे नाच
रोयणींतल्या देवा तुजी सुवर्णाची कात

पयलो मान तुकां देवा मानाचो तिबो
तडीक व्हरोंक कार्यें देवा मांडाचेर उबो

कितलो देखणो, आमचो राखणो, तूं रे वांठारो
तुज्याच नांवान धोलता देवा, आमचो पेटारो

(गणपतीचें सवंग, गणपतीचें मुखयें लावन नाचता. सांगाताक रिद्धी-सिद्धी नाचतात.)

म्हाज्या गणेशा गणराया । पाव गा धा जाणांच्या कार्या

रिद्धी सिद्धी त्यो संगती । तुज्ये कृपेन फळटा माती

देवा हुंदराचेर बसकण । देवा चंद्राचेर रागवण

म्हाज्या शंकराच्या पुता । मांडार नर्तन करता

देवा नाचता एका पांयांरी । म्हाजो खेळ येता रंगारी

(गावपी पंगड 'प्रेमजागोर'चें आख्यान सुरू करता. मोगा आनी बाबुराय हांगेली ही प्रेमकाणी. कुळागरांत शिंपताना दोगांयचो मोग जाता.)

मोग रुजिला झाडांनी, मोग वाडिला माडांनी
मोग देखिल्ल्या लोकांनी, हो प्रेमजागोर रचिला होऽऽ

मोग जाल्लो चरांनी, मोग केल्लो पोरांनी
मोग करित्या मोगीनो, हो प्रेमजागोर तुमचो गाऽऽ

मोग व्हांवत्या पाटांनी, मोग व्हांवत्या लोटांनी
मोग करित्या मोगीनो, हो प्रेमजागोर तुमचो गाऽऽ

(घरांतले काम करताना मोगाची आवय-बापूय बा आनी दादी एकामेकाचीं फकाणां करतात.)

दादी : माथ्याक घेवन मोव मोव इलुदाची उशी
राणये तुकां गोपांत घेवन करतां खुशी
बा : भंगलो म्हाजो राजा रे थंड जालें पाणी
उडून गेलो कीर आतां धोलता दाणी

(मोगाच्या पारपोळपणांक बापूय दादी उबगला. ताका मोगाचो रागूय येता.)

मोगाक जेन्ना येता राग, मोग तेन्ना जाता वाग
मोग करित्या मोगीनो, ही कसली पीडा सांगा होऽऽ

(मोगा, बापूय दादी आनी आवय बा, तिगांय मांडार खेळटा त्या जागराक आयल्यांत. मोगाक आवडटा तें दांडला वयलें सवंग बाबुराय नाचता.)

एका पांयाचो थोटी । म्हाजी उमेद कितली मोटी
घर चार चौक्यांचें । घर म्हाज्या बापायचें
कुंभानी पिकता रे । म्हागेर तुंबानी रकता रे
सभेक मारीना फटी । देंवोन येयलां दोंगर-घांटी
आयकलां तें खरें । मांडार चेडवांचें भिरें
चंद्रिमाची सुंदराय । तसलें चेडूं जाय
मेवळें रे मेवळें । चेडूं तन्ने कंवळें

(गोरवां राखण्याचो भेस केल्ले दोग जाण येवन जागराच्या मांडार नाचता. जागराचे मूळ कथेकडेन हांचो संबंद ना.)

दोगूय : म्हाजीं गोरवां चरता मळार ।
म्हाका मेळ गो एकटें व्हाळार

तुकां कितले घातले उले ।
उल्यांनी धांवोन गेले कोले

शिर्कलीं गोरवां वालिंनी ।
आमी गो बसुंया झिलीनी

म्हाज्या गोरवांक खावनी वागान ।
आमी रावया गो हांगां मोगान

(रातीं जागराक आयिल्लो देमू मोगाक पळयता आनी दुसरे दिसा ताच्या घरा सोयरीक घेवन वता. मोगा घरांत नासता, तें कुळागरांत बाबुराया बरोबर. बापूय रागान ताका सोदूंक येता जाल्यार दोगांय चरांत लिपता.)

चरांत पडल्यां तीं – ना–ना मोगांत पडल्यां तीं
शेणांत पडल्यां तीं – ना–ना मेणांत दसल्यां तीं
चुलांत पडल्यां तीं – ना–ना फुलांत पडल्यां तीं
काळखांत पडल्यां तीं – ना–ना साळकांत दडल्यां तीं

(रातीकडेन खळ्यांत कामेर्‍यां आदोळेचेर सुपारी सोलताना मोगाच्या लग्नाच्यो गजाली करतात. कल्पना करून होंवयोय गायता.)

आई–बापाचे पोटी, जल्मली गे बेटी
धनाची गे पेटी, बाळ मोगा आमचें

दुदाचे शिंपण, मायेचें लेपण
एक एक सोंपण, चडटा मोगाबाय

चिंबानी भरता पाणी, माणकुली मोगाराणी
फाटीर धोलता विणी, तिका रेशीमी गे गोंडे

तन्नेपणा येता भार, दुदाक गेली यॅर
न्हाती–धुती ही केळ, तिका आळें धरा

घडया सत्वर, मोगाचें सयंवर
एक एक कुंवर, येतलो धोणू घेवन

(मोगाक सोयरीक आयिल्ल्याची खबर दादी उमेदीन सगळ्या कामेऱ्यांक सांगता. मोगाक धक्को बसता. सुपारी सोलताना ताच्या हाताक आदोळी लागता.)

आदोळी लागली हातीक । ना गे लागली कवळे कातीक
रक्ताचे हे व्हाळ थांबोवपाक । खंयचें आतां पाळ
गुपाट काळखांत घुस्मट्टा गे । म्हैमोगाचें बाळ

(मोगाक देमूची सोयरीक मान्य ना. दादीचे नदरेन बाबुराय कुळागरांतल्या कामांक फाटीं. मोगान सांगूनय दादीक बाबुरायाची सोयरीक पसंत ना.)

मोग रुजना बळीयां, मोग गळटा दोळीयां
मोग तोडील्या बापानो, ही कसली माया सांगा होऽऽ

(अखेरेक मोगाच्या प्रेमाचें जैत जाता. दादी लग्नाक मान्यताय दिता पूण –)

मोग उडटा मळबां, मोग फोडीता तळपां
मोग करीत्या मोगीनो, हो कसलो खेळ सांगा होऽऽ

(दादी मोगाक सांगता - बाबुरायान कुळागरी मनशा सारखो शिटूक जावंक जाय. आनी बाबुराय तें आव्हान स्वीकारता. झेल घेवन एके माडयेवयल्यान दुसरे माडयेर पावता. पळयल्यांक हें एक अजाप.)

कुळागराचो कुंवर,
जालो वाऱ्याचेर सुंवार

हुपून काडलें तळप,
तेणे मापून काडलें मळब

उडलो रे उडलो असो हणमंत
जालो रे जालो असो यशवंत
(पूण हाय! बाबुरायाचें सपन मदींच भंगता.)

पडलो रे पडलो तारो मळबांतुल्यानु
झडलो रे झडलो तोरो देंठांतुल्यानु

हाय रे हाय आनी मळबाक जालो घाय
अर्दे वाटेर अडून उल्लो पिरथुमेचो राय

(आतां दादी मोगाचें लग्न बळजबरीन म्हणटा तशें देमूकडेन लायता. बायलां होंवयो म्हणटात.)

आईबापाचे पोटी, जलमली गे बेटी
धनाची गे पेटी, बाळ मोगा आमचें

तळ्यांतलें साळीक, सोडा गा उदीक
परघरा वयता लेक, काय राज्य करूंक

काळजाचें कुरकुट, तितुंतली भिरमूट
पोटीच्या रत्नाचें, हें कन्यादान

रामान खुंटल्यो कळयो, लक्ष्मणान भरल्यो झोळयो
सीते गे गांथ माळा, जालो लगीन वेळ

(दुसऱ्या वर्सा मांडार परत जागोर सुरू जाता. बाबुराय एका पांयांन म्होडला. तो कुळागरांत काळखांत थोंटी जावन एका पांयांर नाचता.)

एका पांयाचो थोंटी माजी उमेद कितली मोटी
मेवळें रे मेवळें । चेडू तन्नें कवळें

(मोगा वर्साच्या जागराक घोवागेर सावन येता. पूण जागराच्या मांडार वचपाचे सोडून बाबुरायाक सोदीत कुळागरांत वता. दादी दांडो घेवन ताचो पाठला करता. अखेरेक दांडो मारून ताचो पांय मोडटा.)

मोडून पडले दोके गा, हुमटोन पडले मोके गा
मोग करित्यो मोगीनो, तुमची सासणाची काणी गा

मोग रुजिला झाडांनी, मोग वाडिला माडांनी
मोग देखिल्या लोकांनी, हो प्रेमजागोर रचिला होऽऽ

(प्रेमजागोर चें आख्यान सोंपता. वाजोवपी पंगड जागराचें समाप्तेचें पारंपारि गीत गायतात.)

मांडाच्या गुरू गा तुकां दंडवत
सांतेरी माये गे तुकां दंडवत
देंवचारा देवा गा तुकां दंडवत
रौदिऱ्या देवा गा तुकां दंडवत
गांवपुरसा देवा गा तुकां दंडवत
सर्वय देवांनो गा तुमकां दंडवत
बसलेले सभेक गा तुमकां दंडवत

39.

## हांव पिलां इल्लोसो

हांव पिलां इल्लोसो
जीव जाला भिल्लोसो
तुमचे लगाडीन ओडून आयलों
गादयेर जल्लोसो ॥

केन्ना कोणांक बदूना
थेंब लेगीत रे हुंगूना
खंयच्च्या खिणांक घाळाक पडलों
जाळांत ताल्लोसो ॥

ती वाट पळयतली थंय
जंय पोरसाक घातल्या वंय
आयज तिचो तो सोपूत मोडलो
जीव जाला मेल्लोसो ॥

तिका कारण रे पुरतें
तिणें सोंसलां भोगलां जें
मांव तसो बापूय तिचो रे
सोऱ्यान खाल्लो सो ॥

40.

## समजूं नाका हांव धुल्ल आसां

समजूं नाका हांव धुल्ल आसां
म्हजे मर्दीं हांव गुल्ल आसां

कोण धनी कोण तोल्ल आसा
फाल्यां उजो आयज पोल्ल आसा

मन विणिल्लें मल्ल आसा
तन साणायिल्लें बल्ल आसा

हें दुडवांचें गल्ल आसा
सत्व नाशिल्लें कल्ल आसा

हांव कणकीचो किल्ल आसां
वनां रुजिल्लों भिल्ल आसां

जल्म असो नवोताल्ल आसा
ऐंशी भर्तेचो नाल्ल आसा

41.

## लकता खांबो जाल्यार सांग म्हाका

लकता खांबो जाल्यार सांग म्हाका
कितलो पिला तें विचारूं नाका

हातांत कसलो पानदुडू नासलो
कोणें पिवयलो, विचारूं नाका

बोल्सांत नखेत्रां, मळबार मोखलीं
कशी दकयलीं, विचारूं नाका

सरळ मार्ग केलो वांकडो-तिकडो
कसो बागयलो, विचारूं नाका

म्हजे मुखार हे दिवे मार्गाचे
झुकले कशे, विचारूं नाका

शेजार सुंदरी सदां मनांतरी
सपनांत कशी, विचारूं नाका

बळयां वाजयलें दार तिगेलें
कितलो बडयलो, विचारूं नाका

42.

## काल तांच्या सपनांचो...

काल तांच्या सपनांचो कसलो रंग आसलो?
काल तांच्या सपनांचो लाल रंग आसलो!

सांग तांच्या सपनांचो आयज रंग कसलो?
आयज तांच्या सपनांचो भांगरा रंग आसलो !

तर तांच्या सपनांचो फाल्यां रंग कसलो?
पाडसावयल्या कुंवांळ्याचो काळसो-धवसो तसलो!

43.

## धोलता आजून दाणी

उडून कीर गेलो, धोलता आजून दाणी
आजून पावळी ओली, आजून चिंब काणी

कणसां खुडून व्हेलीं, जांवचे आदींच लुवणी
एकार एक जालीं, उध्वस्त सगळीं ठाणी

निर्जाप जावन वारो, दडला पानां पानांनी
देंठांत दीक ताजो, कंठांत ती विराणी

हो भंग भावनांचो, दोळ्यांत बुडल्यां खाणीं
तोडून मानो पडल्यां, उक्त्या मळार सवणीं

धरून तग रावल्या, पणटेंत वात निमणी
रानांत त्या अटंग्या, थंय माचुलांत राणी

44.

## बंड करपी काळखाआड...

बंड करपी काळखाआड काजुलेच आसले
थंड वगी रावले बसून सूर्यपूत सगळे

दान जाणीं केलें ते कोण कर्ण नासले
मान जाणी जोडलो ते सामके चामटे आसले

बोंगे म्हणून आसले जे फुलचे आदीं बावले
कोंगे म्हणून आसले जे रोव खावन फुगले

बेबदे म्हणून गाजले जे तेच जागे उरले
कवदे म्हणून नाचले जे पालोवन गोबोर जाले

घोव म्हणून गर्जले जे अर्दे राती भंगले
मोव म्हणून आसले ते रातभर रंगले

थोर म्हणून नांव जाल्ले अर्दे वाटेर शेणले
पोर म्हणून हिणसायल्ले सबंद वाट चल्ले

45.

## एकमुखी थारावणी

शिकाऱ्यांची जाल्या ती एकमुखी थारावणी
गोठ्यांत गाय मारची नाका शिकार भोंवणी

धपक्याक कोंड मारची वान्साय पागप्यांची
जाळी, पागेर, काटाळी खुंटयेक आतां दावणी

ना करता ते बियोणी ना हूम घाम तांचो
रावता टपून तत्पर करूंक पिकेची लुवणी

पर्यावरण कोंक्यार मारून सगळें भिस्क्यार
दिसरात आडबऱ्यांनी ते उस्पितात खणी

पिसडून कळयो चल्लीं तीं बळेरांची भल्लां
जांगेत मस्त तांच्या सळसळटात पेणी

येवजून सात पिळग्यो जातल्यो अपंग सगळ्यो
थापतात ते बाकांनी त्यो सुवर्णाच्यो शेणी

सोडून सगळो पास्सो त्या नितीबंधनांचो
करता आपले आवयची भर तिठ्यार ते पावणी

46.

## म्हजें सरण सुंदर जळटा

म्हजें सरण सुंदर जळटा
म्हजें म्हाकाच काय बरें कळटा!

जाणट्या पिंपळाचीं नेणटीं पानां
शुभ शकुनानी सळसळटा!

जितेपणी तो धग खर आसलो
हो हुलोप ल्हवू ल्हवू जाळटा!

इश्ट सांगाती खूब खर्शेले
फाटल्या पांयान कशे पळटा!

आस नासलेलीं मनशां मोगाचीं
तीं पासबुकां कशीं चाळटा!

अनाथ मानून म्हजे प्रियेचेर
दयेन कोण कोण कळवळटा!

म्हज्या यादिंचे गाळून पीठ तें
सुक्या हातान कशें मळटा!

सोंपल्यो होंवयो आतां जांबयो
काळ हो काळाक गिळटा!

47.

## युवा महोत्सव शबै शबै

युवा महोत्सव शबै शबै
तांबड्यो घुडयो मळबां हुबय
शेतां भाटांतल्यान कुळागरांतल्यान धोल ताशे वाजय
रथ विजयाचो महोत्सवाचो तरण्यां भुजांर नाचय ॥

नीज मातयेच्च्या कसा कणाची घडल्या सांतेरमाया
हेंच भुंयेतल्यान रुजून आयल्या आमची आख्खी काया
अनंत उत्सव शांतादुर्गा उमेद आनी उर्बा
लालखी पालखी अंबारीत बसोवन सांगडांत धोलय ॥

आमीच भरला रोस फळांनी आनी नाल्लांत पाणी
आमीच भरला गंध फुलांनी आगळान भरल्या भिण्णी
आमी पितारल्यां झाडांपेडां सैमाची निर्मणी
ताठ कण्याचो मंत्र माडयेचो खोल काळजांत रिगय ॥

आमचे दायजी आंबो पणस सायलो पिंपळ वड
आमचें वायंगण मातये कालवण आमी पिकयलें मरड
रानांतल्या त्या वागाक सायबा आज्यान शिकयल्या गरड
खर कश्टांची देख भुंयेची मनांत सारखी पाखय ॥

48.

## काळे गोरे आंवसुलो...

काळे–गोरे आंवसुलो, जड्डो–तुपो कांसुलो
धर्तरेच्या कुसव्यांतलो, सैमाचो जीवोपिलो
कांसुलोऽऽ कांसुलोऽऽ

सोंशा वांगडा सर्त खेळ्ळो, पयलो इनाम हाका मेळ्ळो
केन्ना सुको केन्ना ओलो, भायर भोलो भितर कोलो
कांसुलोऽऽ कांसुलोऽऽ

नाग जालो काडून फोडा, धांवून गेलो धडाधडा
ताच्या धेंकान खालो वागान, सुको बावको पालो
कांसुलोऽऽ कांसुलोऽऽ

□□□

घेतलो घात कोणा काळान, भुजांबळां गेलीं खळांन
खोल काळजा तळांतल्यान, कोणांक मारचो उलो
कांसुलोऽऽ कांसुलोऽऽ

49.

## ही चतुरंगाची कथा

जुनीच काणी नव्यान रंगता
प्रेम जीवांची गाथा
ही चतुरंगाची कथा
ही चतुरंगाची कथा

कोण कोणाची लायता वाट
कोण कोणाची मारता गांठ
तकले अकलेचो घालून मेळ
चतुरा उज्यांत न्हाता

□□□

अपसमजाचीं विरलीं कुपां
जाचीं ताचीं भरलीं मापां
आपल्या हातांत आपलो फुडार
चतुरा नवगीत गायता

जुनीच काणी नव्यान रंगता
प्रेम जीवांची गाथा
ही चतुरंगाची कथा
ही चतुरंगाची कथा

50.

## वयर वयर पर्वतार

दोन कुळां दोन खुळां तांच्या काळजा काणी
वयर वयर पर्वतार आसली गिर्जाराणी ॥

काम ना वावर ना कितलो मेकळो वेळ
सगळें आयतें भोंवतणी वंये भितरली केळ
दुःख तिचें निथळटालें पावला कणकणी

वाट पळोन दुकां गळोवन सारता तिनूय पार
कोणांक कितें सांगतली जीव जाता फुगार
केन्ना कशी फेडची आसा वाटेवेयली देणीं

□□□

सोंपलो बंदिवास आतां, सोंपलो बंदिवास
सोंपले कश्ट, खेद खंत, सोंपले सगळे त्रास
फुलून गेल्यो खोशशेभारान दोंगर आनी दोणी
वयर वयर पर्वतार आसली गिर्जाराणी

दोन कुळां दोन खुळां तांच्या काळजा काणी
वयर वयर पर्वतार आसली गिर्जाराणी

51.

## आमी सयामी

हम तो सयामी, हम तो सयामी
हम तो अपने भाग्य विधाता
हम है अपने स्वामी ॥

आमी सयामी, आमी सयामी
आमीच आमचें भाग्य घडोवपी
आमीच आमचीं स्वामी ॥

एक रूप, एक रंग
एक सुख, एक दुख
एक नूर, एक सूर
एक ताल, एक धून
आनंदाचें गीत फुलता
आमच्या मुखांनी ॥

एक खंड, एक दंड
एक घाट, एक वाट
एक नाद, एक साद
एक धार, एक भार
आमची जोडी सदां दाखयता
एकचाराची हमी ।।

एक तन, एक मन
एक ध्यास, एक स्वास
एक जीण, एक वीण
एक सांगोड, एक वांगड
आमचे खातीर जुळून आसा
मळब आनी भूमि ।।

52.

## चैतन्याक मठ ना

चैतन्याक मठ ना । अमृतफळाक देंठ ना

कालचीं बाळकां नेणटीं । खिणांत जालीं जाणटीं
ही उज्वाडाची पणटी । ना पालोंवक दिवचे ना

धोलार घुमता तोणी । जैत-यशाची ही लुंवणी
ही चैतन्याची काणी । ना खंडीत जावचीना

53.

## बोला फुलाक गांठ पडटा

बोला फुलाक गांठ पड्टा
कावळो बसपाक खांदी मोड्टा

दीश्ट लागना, नवलां घडना
एके मुयेचो दोंगर जायना
बगर कारणां पानूय झडना
वाव्डेन मनशा वाट लागता

कश्ट चुकना, नश्ट सरना
एके रातीन राजा जायना
पाडी बुद्धी रंगीत सपनां
कोण काळजाचो देंट तोट्टा

54.

## परिक्रमा...

परिक्रमा परिक्रमा । विक्रमाची परिक्रमा
प्रियतम राष्ट्रा सर्वोत्तमा । अलौकीक रे महिमा।।

मंगलदेशा, वंदना । पवित्र देशा, वंदना
अखंड देशा, अभिन्न देशा । सत्य अहिंसा धर्मा।।

विज्ञानाच्या शतमाना । शुद्ध मानस प्रार्थना
तर्क निष्ठतेचीं परिमाणां । भेदून वैता विषमा।।

सागर पर्वत रानां । हिमनग शेतां वनां
धनभांडारां कुबेर वैभव । जण एकल्या चंद्रमा।।

55.

## संवसार सांगाती

आमीच आमच्या हातान बांदल्यो । सुंदर रेशीम गांठी
सात पावलां चल्लीं आमीं । संवसार सांगाती ।।

लक्ष्मी नारायण, सीताराम । सुंदर पुराण देखी
राधा माधव, विठ्ठल रखुमा । घोळटा सगळ्यांच्या मुखी
कैलासाचेर करता नर्तन । शंकर पार्वती ।।

हांव आलतडी, तूं पलतडीं । कितल्यो काडाओडी
घडत गेली, जुळत गेली । वळख थोडी थोडी
जाणटेपणीं त्या दोगांय आमी । एकामेकाची काठी ।।

56.

## सांग सये तूं कशी निर्बळा जाली ?

सांग सये सांग सये । तूं कशी निर्बळा जाली ?
केन्ना आसली दुर्गा तूं । केन्ना आसली काली ॥

कवळ्या हातांनी कितलें भरशी । भरशी जड जड पाणी
तुकांच पिळपाक वाट पळयता । फातरी वयलीं धुणी
कळी-काळान गे झोमून घेतली । तुजी फुलांची दाली ॥

दवा - थेंबाचेर कात घेता ह्यो । सुकून गेल्ल्यो ताळयो
जाग जीणेची घेता परतून । बावून गेल्ल्यो कळयो
खूब दिसांनी खुलून आयल्या । कोणा मुखाचेर लाली ॥

□□□

दुश्ट दुर्गूणी जीवान खाल्ले । मारून आपलेच पेटे
तुजे भुकेची वाट पळयता । रक्तान कालयिल्ले गोंटे
तुज्याच घरचें हीण दर्पाचें । रक्तन्हाण तूं न्हाली ॥

मैमोगाची नीज पाग्याची । सांतेक विकली गाय
अचळय आतां मान सांसपिता । धूर्त बेरकी कसाय
आपले-परकी फटवण सगळी । कोण कोणांक ना वाली ॥

57.

## देखणी दुराय

सरता जिवीत पुराय
उरता देखणी दुराय

पावलां सोदीत आयलीं
कानांत भोंवरां गायलीं
मन मनाक भिडलें तेन्ना
जिवाक जीव नसाय

हें अंतर दोन तडींचें
बळत येवपी नश्ट नडीचें
जीव जाता असो फुगार
ही उज्यार भाजता ल्हाय

काळोख काडलो उस्पून
हीं पाखां घेतलीं घुस्पून
हे काळीज चिरून रावले
खोल यातना घाय

ते सोपले संग–सुवाळे
ते आटले रक्त–उमाळे
खर जाळ उज्याचे गिळ्ळे
हे निखळून काडले खिळे
ही वज्ररूख अशी काया
मनाक तेज धिटाय

58.

## शिरी रे शिरी !

शिरी रे शिरी ! अधांतरी !
सर्ग वयर रे खाला धर्तरी

शिरीचीं सपनां – मनांतरी
शिरी हुमकळटा – पिशांपरी
शिरीची काणी – कादंबरी
आयकूंक, पळोवंक – बेसबरी

शिरीची माया – खरीखरी
शिरीचीं दुकां – झरीझरी
शिरीचो राग थेंब्यापरी
शिरीचो मोग – एक नंबरी

शिरीक जमलीना – मारामारी
शिरीन केलीना – चोरीमारी
शिरी – सपनांची – जाली चुरी
शिरी – सपनांचेर – पडली घुरी

59.

## ध्वनी–मौनाचें मीलन सुंदर

*वन टू थ्री रेडी सायलेन्स बियलेन्स*
*लायट सावंड कॅमेरा रोलींग अ‍ॅक्शन*
*– कट*

ध्वनी–मौनाचें मीलन सुंदर
चित्र स्वयंवर! चित्र स्वयंवर!

असली नकली हो भवसागर
तरुन वतले धूर्त बिलंदर
सुवर्णसंदी जाणी शेणयली
तांकां नस्तो ताप भयंकर॥

दोन तडींचें केदें अंतर
जुळोवन हाडचें मारून मंतर
आपले गरयेन फारावन काडचो
कलावंत वा आसूं कलंदर॥

60.

## फिरंगी फटास

आमची भूंय आमची भास, उकडी पेज खरी मिरास
भुलूं नाका धोलूं नाका, नकली सुरय फिरंगी फटास

भिशु बिलु कोको मेमें, बालजनांची वेगळी भास
डॉग कॅट फूड फिश, सगळ्याक तुमचें एकूच माप

ऋतु परमाणें आंबील मणगणें, कितलें पुश्टीक कितलें मिठास
बाराय म्हयने तुमचें खाणें, बर्गर पिझ्झा चिकन मास

मेवणी मेवणो भावज भावोजी, वेगळ्या नांवांची केदी रास
सिस्टर ब्रदर फादर इन लॉ, सगळीं नातीं जालीं खलास

'रेन रेन गो अवे,' गायता तुमी पळोवन पावस
'पावसा पावसा यो रे यो' गायता भुरगीं दिलखुलास

इंग्लीश न्हय रे आमची राणी, परभासांचे कित्याक पास
हिंदी, मराठी, संस्कृत, कोंकणी, आमच्यो भासो आमकां खास

61.

## होंवयो

वीजे बाये वीजे, भयणी गे म्हजे
सक्काळीं वचून, परत येता सांजे
□
नळा रे नळा, जीव लावं नाका गोळाक
सोड तुजो पान्हो, तिश्टतल्या बाळाक
□
गॅसा तुकां लागून, पळून गेलो धुंवोर
पूण दिसानदीस तुजो, म्हारग सिलींडर
□
आगो वॉशींग मशीना, कपडे निवळ कर
बांयचेवयले फांतरीची, तुकां कशी येना सर
□
मिक्सरा रे मिक्सरा, बारीक बारीक वांट
ना तर परत म्हजी, रगड्याकडेन गांठ
□
फ्रीजा म्हज्या फ्रीजा, थंडा थंडा राव
कालचे शेळें सांबाळूंक, म्हाका असोच पाव
□
फोना रे फोना, कुरू कुरू काना
बंद आसलो तरी, बीलां उणी जायना
□
टीवी बाये टीवी, तुजें दर्शन जाय
'साँस,' 'तलाक', 'शिकवा', सगळें म्हाका जाय
□
आर्रा गो फेर्रा, घडी बरी जाता
चुकून बोट लागलें तरी, शॉक कसो येता?

62.

## हांव हो असो!

तो : हांव हो असो!
कोरस : असो म्हणल्यार कसो?
तो : केन्ना जमली ना चाडी
कोरस : ना रे ना!
तो : केन्ना केली ना लबाडी
कोरस : ना रे ना!
तो : म्हाका भावार्ताची गोडी
कोरस : हय रे हय!
तो : म्हजी सरळ मार्गी गाडी
कोरस : हय रे हय!
तो : झगडीं–बिंगडीं, खून–खराबी कित्यांत ना हांव तसो!
हांव हो असो!

तो : हांव हो असो
कोरस : असो म्हणल्यार कसो?
तो : केन्ना ओडलें ना विडी–सिगार
कोरस : ना रे ना!
तो : केन्ना सोदलें ना गादी बार्र
कोरस : ना रे ना!
तो : अफीम गांजा नश्टे प्रकार
कोरस : हय रे हय!
तो : शुद्ध जिणेचो म्हजो स्विकार
कोरस : हय रे हय!
तो : गडगडो, मटको, पट ना, बीट ना. धुल्लो तांदूळ कसो!
हांव हो असो!

63.

## गोंधळी म्हूर्तार पर्वतार

(अमंगलाष्टक)

गोंधळी म्हूर्तार पर्वतार आसा, गिर्जा–जानू व्हाड्डीक
दोन खुळांक गंडणी दोन कुळांचें तड्डक
पावला कणकणी आवैची सांगणी, खरी केली पुतांनी
देखून भीड सोडून उबीं सव्यार राजा आनी राणी
शुभमंगल – हो ऽ ऽ र गयो

दोंगरार फलाहार तयार आसा, जगमां जांबळां घोटां
तोरंगां काजू पणसुलां ओवळी धोडे चिरपुटां
वाजपी गावपी नाचपी कोगळां किरां मोरां
कवडे पारवे गिरबुर्जी किरकिरे चानये पोरां
शुभमंगल – हो ऽ ऽ र गयो

हातांत अक्षता जांच्या शिंसो, माट्टी रुखां
झडटा पानां पट्पटा जशीं दोळ्यांतलीं दुकां
पयस उबीं हरणां, मेरवां, सोंशे, चितळां सावजां
न्हवच्या व्हंकलेक बरें मागून सांस्पीता आपलीं काळजां
शुभमंगल – हो ऽ ऽ र गयो

64.

## पांयांर तुज्या लीन आमी

(नांदीचें विडंबन)

पांयांर तुज्या लीन आमी
फूट रे आतां सुरंगेश्वरा

बुद्द आमची सामकी थिटी
वर्णुपाक गूण तुजे
मर्णाकूच पडटा मिठी
रावलो जाल्यार सामखारा

भरप तुकां घालून घण
पोटाचो भरूंक फोण
तुटचे आदी झोळयो आतां
फुट रे बेगीन तार्णारा

पळोवं नाका अंत आतां
विरून गेलीं सगळीं वोतां
फुटले बगर रावशी जाल्यार
पडलीं आमी उबांतरा

65.

## आयज प्रभाती उदेंत रंगली

आयज प्रभाती उदेंत रंगली
सगळो सुवर्ण साज
लखलख पडलो धायदिकांनी
भांगराचो दीस आज

पिकून जालीं ताळ्ळ शेतां
कणसार सवणीं गायती गीतां
उठ बंध्वा ऊठ आतां
आयलें आमचें राज

कणाकणांची अखंड रास
दिव्य दिव्यांची ही आरास
न्हय रे बंध्वा सपन-भास
जालो खरो अंदाज

66.

## खर्र खर्र म्हजें खरपता माथें

खर्र खर्र खर्र खर्र खरपता माथें
म्हजें खरपता माथें ।।

हांव बाबा शेणलां, भल्लेले जात्रेंत
बोडापासून पांयामेरेन, बुडून गेलां साखरेंत
माथ्यार म्हज्या फुलांराशी, तरी हांव खेतें?

शेणिल्लें गोरूं, कर्मळेच्या तळ्यार
तशें हांव हांगा, उक्त्या उक्त्या मळार
असलें सुख भोगलां हांवें, जावन हांव खेतें

तासून तासून कुले म्हजे, लाल लाल जाले
गोऱ्या गोऱ्या सुंदऱ्याचे, गाल कशे जाले
तरी लेगीत तुमचे लेखीं, आजून हांव खेतें?

67.

## आबो आबो धांव रे

आबो आबो धांव रे उदक खायलें
आबो आबो काम कसलें कपनखायरें

गोरवां आनी वासरां म्हसरां पोसरां
तळ्याधडेर पावलीं बोकडां मेंढरां

तळ्यामाथ्यार घुंवता शेवणी माणकुलीं
निळीं आनी हळडुवीं रंगी पिसोळीं

आबो आबो सांबाळ दोके मोडशी
आबो आबो सांबाळ पाखां तोडशी

राख राख राख आबो तळें राखता
मर मर मर आबो उदकाक मरता

68.

## फूऽऽ फूऽऽ हो प्रेमधुंवर

तो : फूऽऽ फूऽऽ हो प्रेमधुंवर
मदनकुंवर हांव मदनकुंवर॥

ती : फूऽऽ फूऽऽ हो प्रेमधुंवर
भोळो शीव तूं! हांव तुजी गवर॥

ती : खोशयेन भल्ली, सूप आनी वल्ली
चम् चम् चमेली, आंगभर फुल्ली
गंधाचो रे साद तुकां
घे घुंवडळ्यो जावन भोंवर॥

तो : उपाट तळयो, घस् घस् खळयो
झाडांर ताळयो, माळयेर माळयो
रंगाचो गो साद तुकां
कुरकूट काळजांत म्हाका दवर॥

69.

## देवा चित्रविचित्रा

देवा चित्रविचित्रा,
महाभुतांच्या पुत्रा
मानून घेवची धनयां
एका दिसाची जात्रा । देवा एका दिसाची जात्रा ॥

वर्साक एकदां न्हाता
नितळ कसो रे जाता?
सदांच न्हावपी हांगा,
बुर्शे बुर्शे उरता। देवा बुर्शे बुर्शे उरता ॥

मान तुजी रे घुंवल्या
फाट करूनशी रावल्या
मुखार पळोवंक धजना
देखून मांडणी काडल्या । देवा देखून मांडणी काडल्या ॥

दर्याक सुकती भरती
मन्शाकूय ती लागती
कुंड्यार शिजता तुजें
देवा तुकां ती कशी बादती? । देवा तुकां ती कशी बादती ॥

काळ कोणाकूच थांबना
मुखार वचपाचो रावना
तुजी उरफाट्याची जात्रा
कशी जैताक पावतली कळना । देवा कशी जैताक पावतली कळना ॥

70.

## मम्मा, म्हाका कळना...

पूत : मम्मा, म्हाका कळना। पप्पा, म्हाका कळना ।

आवय : बाबा, कितें कळना ?
बापूय : पुता, कितें कळना ?

पूत : वयलो नाल्ल खंय कोकोनट, सकली भिकणां ग्रावंड नट
पि यू टी जाता पूट, बि यू टी कित्याक जायना बूट ?

आवय : बाबा, इंग्लीश लँग्वेज ग्रेट, सगळ्यामदें तिकाच वेट
कम्युनिकेशन जाता स्ट्रेट, इंग्लीश नातर तूं डिग्रेड

पूत : मम्मा, म्हाका कळना । पप्पा, म्हाका कळना ।
आवय : बाबा, कितें कळना?
बापूय : पुता, कितें कळना?

पूत : इंग्लीश नातर आमी बोणे? पोट भरचें ना तिच्याविणे?
खावचे पडटले फातर गुणे, मम्मा सदांच मारता आणे ।

बापूय : इंग्लीश भास न्हय पोटाची, फकत वयल्या नेटाची
वान्सा न्हय ही बऱ्याची, मायभास आपली सोडपाची

पूत : मम्मा, म्हाका कळना! पप्पा, म्हाका कळना!
आवय : बाबा, तुकां तें कळटलें
बापूय : केन्नातरी तें कळटलें

71.

## आयदन-कादन धाडय बडय

(निद्रादेवीक होरावणी)

आयदन-कादन धाडय बडय, निद्रादेवीक जागय जागय।।
उठ गे माये उठ गे उठ

शरण तुकां आडकां-बोडकां, दर्शन सत्वर दी आमकां
आनीक पळोवशी कितलो अंत, भक्ताखातीर न्हीद खळय।।
उठ गे माये उठ गे उठ

तुजी न्हीद आमची दैना, सदांच जिणेक जैपत ना
जाल्या घडी वांकडी-तिकडी, परतून हातान रथ घडय।।
उठ गे माये उठ गे उठ

72.

## कांकणकार कुड्डो हांव

कांकणकार कुड्डो गो, कांकणकार कुड्डो
साद मारून आपय म्हाका, न्हय गो हांव भेड्डो

वयर-खाला, हांगा-थींगा पालथो घालतां गांव
एके एके अस्तुरेचें खबर आसा नांव
कितलीं सोबीत, तरेकरंगी कांकणां हाडटां हांव
बायलां म्हजी वाट राखता, मारुन येतां धांव।।

फुडल्या घरा, कालच्या पारा घडलां कितें खास
पयस सावन कोसावेल्यान आयला म्हाका वास
देखून धांवोन घेवन येयलां कांकणांची रास
उक्ते हात सोबीत करप हीच म्हजी आस।।

73.

## तीन एके तीन

इन मीन तीन । लाब दोन तीन
तीन एके तीन। तीन एके तीन ।।

तीन पार तीन । सकाळ दंपार सांज
तीन ऋतू तीन । पावस शीं गीम ।।

तीन काळ तीन । भूत वर्तमान भविश्य
तीन मुर्ती तीन । ब्रह्मा विश्णू महेशम् ।।

तीन माकड तीन । बुरा मत कहो
बुरा मत देखो । बुरा मत सून ।।

तीन सूळ त्रिशूळ । तीन कोन त्रिकोण
तीन शंकू त्रिशंकू । तीन विक्रम त्रिविक्रम ।।

74.

## विटंबना जिविताची

विटंबना जिविताची
फुलची कशी रंगमाची

आजून कालचो रंग मुखाक
मन संवकलां रंग सुखाक
तान-भूक कशी विरची

गीत सुरांनी संवादांनी
रात जागयली मनांमनांनी
जाळटा खंत दिसाची

75.

## भगवान !

भगवान ! भगवान
दी तुजे कृपेचें दान

कितलो जळपेलों
कितलो वळपेलों
विसरून देहभान

सांग रे आतां
सांग रे गीता
कोरें मनाचें पान

76.

## आमच्या हातांत कट्टी

आमच्या हातांत कट्टी
नशिबान माल्ली गोलांटी
धट्टी कट्टी आमची जुवानी
करपून चल्ली बेठ्ठी

आमी बाबत न्हय गा कुळां
आमी रंगभुयेंची बाळां
ता थै तुमच्या हड्ड्यार नाचून
करपी वसुली दोट्टी

77.

## अकलेन आमी वागतले

अकलेन आमी वागतले
तकलेन आमी झुजतले
जिखतले हय जिखतले
नातर मातयेंत सोंपतले

आमचो अब्रू गेलो खळांत
आमचो मान व्हांवलो व्हाळांत
आमकां आमीच तिजतले
परतून कसाक लायतले

नवोच खेळ, नवोच दाव
दुस्मानाचे मानेर घाव
भवसागर हो पेंवतले
नातर बुडून मरतले

78.

## तिरंगी चक्राचक्री

मंगळ शनी चंद्र सूर्या
सगळे गेले वक्री
कशी रंगली देवा धनयां
तिरंगी चक्राचक्री

मोग निष्ठा ओंपून घडची
रंगभुमीची चाकरी
आपली गोड मानून घेवची
कश्ट नितिची भाकरी

79.

## कुट्टू कुट्टू कांसव वाट चाले

कुट्टू कुट्टू कांसव वाट चाले
तेचे फाटीर धर्तर गोल डोले

कुट्टू कुट्टू कांसवा वाट सोंपना
संवसार सायबा आटापना

कांसवाची पोटली बांदली पोंवलेंत
कांसवाक काडलो घातलो तोवलेंत

मसालो वांट्टा कुटूकुटू
कांसव तोवलेंत खुटूखुटू

फोडून तोवली गेलो पळोन
मसालो सगळो गेलो व्हळोन

80.

## चित्र स्वयंवर घडटा

नवकाळाचें, बळाबळाचें, चित्र स्वयंवर घड्टा
कोण दोळ्यांत, कोण गळ्यांत, कोण काळजांत रड्टा॥

सोबीत सुंदर गुणी सद्‌गुणी, फक्त नायिका मोनी
नीत्य शांती घरांत नंदतली, सदा सुखी घरधनी॥

आशिर्वचना तत्पर रावल्या, रावल्या दादामुनी
थरथर गार, हरहर हार, कोणा गळ्यांत पडटा॥

81.

## सिंथीया ओ सिंथीया...
(कांतार)

तो : पयल्याच ताच्या फाराक । काळजाक पडलो बुराक
आतां सपनात सोदतां मोराक । आनी आपटून पडटां दाराक
जाल्या पीडा म्हाका वखद दिया । सिंथीया ओ सिंथीयाऽऽ

सांगाती : आतां कितें करूंया । सांकवार बसून चिंतूया
सिंथीया ओ सिंथीयाऽऽ

तो : तूं चलता गांवच्या माडांनी । ते धोलूंक लागता लाडांनी
तूं भोंवता झाडां पेडांनी । तीं भरता पानां फुलांनी
हांव सुकून चल्लां पळया। सिंथीया ओ सिंथीयाऽऽ

सांगाती : आतां कितें करूंया । सांकवार बसून चिंतूया
सिंथीया ओ सिंथीया ऽऽ

तो : हांव न्हवरो न्हय गो तसलो । सोरो पियेवन पडटा असलो
हांव भोंवरो न्हय गो तसलो । धा फुलांर भोंवता असलो
हांव हुपून येवपी दर्या । सिंथीया ओ सिंथीयाऽऽ

सांगाती : आतां कितें करूंया । सांकवार बसून चिंतूया
सिंथीया ओ सिंथीया ऽऽ

ती : हांव चेडूं न्हय रे तसलें । जें वाटेर कोणाक फसलें
हांव मर्यादेची अस्तुरी । म्हाका नाका असली मस्करी
हांव रावतां म्हज्या रायाक । सिंथीया हांव सिंथीया!

सांगाती : आतां कितें करूंया? मानिकोमांत वचूंया
थंयसर बसून चिंतूया । सिंथीया ओ सिंथीया!

82.

## वारे वा जिवीत!

(कांतार)

वा रे वा जिवीत, वा रे वा जिवीत,
कितें सांगू या जिविता खोबोर
हांगा भल्ल्यात रे साबार फांतोर, पायांक जाता घाय
आनी खिणां खिणां काळीज जाता हाय!

कावळो रडच्या आदीं सायबा फांत्या पारारी
सगळें सामान मारून खांदार वेतां कामारी
कमर मोडून दोळे तोडून येता आमोरी
खोडोप सगळें फोडोप बाबा पेज्जे निस्सारी
हाय देवा, तूं सांबाळ म्हाका
पुनर्जल्म दिशी जाल्यार पोट दिवं नाका
वा रे वा जिवीत, वा रे वा जिवीत!

घडली कसली खोबोर सांगतां फाटल्या सुक्रारा
हातांत घण पोटांत फोण वोरां जाल्लीं बारा
उबाल्लेलो घण सायबा बसलो कपलाचेर
रगताचे व्हाळ सगळे उकुत्या आंगाचेर
हाय देवा कित् करचें पडलें!
उदक नासून आपलें रगत घोटचें पडलें
वारे वा जिवीत, वारे वा जिवीत!

83.

## भांगराचो तूं गुळो

बायलांचो कोरस : भांगराचो तूं गुळो
फुलयता हो मळो
विश्वाचो तूं कळो
सूर्य नारायेणां ।।

तो : सूर्या उदेवन आयलो मळबांतु
उज्वाड फांकलो रे संवसारांतु
कालची सोंपोन आतां रातु
सुकणी मळबांत आयलीं गायतु
माड मरे धोलता
गांवाक वारो घालता
तळ्यांत सोबित साळकां फुलता ।।

कोरस : चुडटांची तोरणां
पुजीता चरणां
फांकयी किरणां
सूर्य नारायेणां ।।
हालली एक ताळी
पानांची पांवळी
सण–परबे पत्रावळी
सूर्य नारायेणां ।।

तो : दोंगरावयलीं शिंपता रुखां
शेतांभाटांनी तीन पिकां
थोट्या-पांगळ्याक दिवन पांखां
तेंच्या भुजाक लायता फितां
पान मरे हालता
फूल मरे फुलता
पानां फुलांतल्यान देव गायता ।।

कोरस : पाणियां चल्ल्यो नारी
घेवन घागरी
खळखळ घरोघरी
सूर्य नारायेणां ।।

धानार पिकलें धान
भरून गेलें वान
सुखाचें हें दान
सूर्य नारायेणां ।।

तो : धनयां देवा विजमीत तुजें
पांचव्या पानार उदक ताजें
जिवीत फळाक आयलें म्हजें
ल्हवू केलें संवसारा वजें
धनी म्हाका चोयता
माथ्याक म्हाका खोयता
धनी संवसार दाखयता ।।

कोरस : भांगराचो तूं गुळो
फुलयता हो मळो
विश्वाचो तूं कळो
सूर्य नारायेणां ।।

84.

## वयर वयर माडावयर

(कांतार)

वयर वयर माडावयर आतां तुजें नांव
भावा तुज्या नांवांचेर धोलता म्हजो गांव
तुकां सद्दां मेळचो भावा गोडाचो पांव
आमी तुकां मागतां भावा तुजें बरें जांव ।।

जेन्ना भावा येता तुकां पोटांतल्यान राग
फाटीर बडी पडटा खरी तुज्या काळजार दाग
मोनजाती मोग तुवें जोडलो कसो सांग
तुज्या उल्यार गोरवां पोसरां मारून येता धांव ।।

झरीच्या उदकासारखें नितळ तुजें मन
उंच उबो माडासारखो बागयत तुकां कोण
पावल तुजें नीट आनी उतर रजांव
सांग कशें वागप तुजें इस्तिमासांव

जीव तोडून राखलें तुवें गोठ्यांतलें गोरूं
देखून तुकां फाव जालें मळबांतलें तारूं
जोड भावा जोड अशें वेंत आनी वांव
नेटणे तशे जाणटे भावा कांतार तुजें गांव ।।

85.

## कृष्ण कन्हैया, भुलभुलैया...

(फुगडी)

कृष्ण कन्हैया, भुलभुलैया, गवळण हांव भोळी ।
रे कृष्णा, गवळण हांव भोळी ।।

वेणु वाजैता, धेनु हांबैता, कसली तुजी खेळी ।
रे कृष्णा,कसली तुजी खेळी ।।

दूदाधंयाचे, मडकें म्हाजें, फोडून केलो चुरो ।
रे कृष्णा, फोडून केलो चुरो ।

तूं अवज्जाळी, भिजली चोळी, ना रे तुकां चुरचुरो
रे कृष्णा,ना रे तुकां चुरचुरो

भंय घोवाचो, आनी देराचो पिसडून खातलों गांव ।
रे कृष्णा पिसडून खातलो गांव ।।

सोड जनाची, धर मनाची, परकी अस्तुरी हांव ।
रे कृष्णा परकी अस्तुरी हांव ।।

86.

## गोंयां चार म्हयने पावस पडटा

(फुगडी)

गोंयां चार म्हयने पावस पडटा । गोंय उदकाक कित्याक रडटा?

आठ नक्षत्रां पावस पडटा । गोंय उदकाक कित्याक रडटा?

एक्शें वीस इंच पावस पडटा । गोंय उदकाक कित्याक रडटा

कुडव खांडयांनी पावस जालो । पावस व्हळून दर्यां गेलो

गीमान उदकाचो थेंबो आटलो । गीमान बायलांचो कंठ दाटलो

गाडगीं मडकीं मारून माथ्यार। गे बायलां-हिंड पावले पाण्ट्यार

तेंणी दोळ्यांनी काडलें पाणी । तेंची काणी गे जीवघेणी

बांयो, तळयो गे गांवचे हाणे । हाणे सादोवन घेवचे कोणे?

व्हाळ बांदून बांदल्यो करा । व्हांवतें उदक आडोवन धरा

धरा मतींत आठवण । करा उदकाची सांठवण

87.

## खंय लिपलासी भगवंता

(फुगडी)

अंबिका : भगवंता रे भगवंता, खंय लिपलासी भगवंता ?
भगवंता : अंबिके गे अंबिके, बंदी हांव हांगा अंबिके !

अंबिका : घरांत सोदलो, दारांत सोदलो,
सोदलो सगळ्याक भगवंता, भगवंता रे भगवंता ।।
भगवंता : अंबिके गे अंबिके, बंदी हांव हांगा अंबिके !

अंबिका : भाटांत सोदलो, शेतांत सोदलो,
सोदलो सगळ्याक भगवंता, भगवंता रे भगवंता ।।
भगवंता : अंबिके गे अंबिके, बंदी हांव हांगा अंबिके !

अंबिका : तळ्यांत सोदलो, मळ्यांत सोदलो,
सोदलो सगळ्याक भगवंता, भगवंता रे भगवंता ।।
भगवंता : अंबिके गे अंबिके, बंदी हांव हांगा अंबिके !

अंबिका : पाटार सोदलो, घाटार सोदलो,
सोदलो सगळ्याक भगवंता, भगवंता रे भगवंता
भगवंता : अंबिके गे अंबिके, बंदी हांव हांगा अंबिके !

अंबिका : जनांत सोदलो, मनांत सोदलो,
मनांत गावलो भगवंता, भगवंता रे भगवंता ।।
भगवंता : अंबिके गे अंबिके, अंबिके गे अंबिके !

अंबिका : भगवंता रे भगवंता, भगवंता रे भगवंता !

88.

## हाडा एक कुदळ मारा एक धेंपो

(धालो)

पंगड 1 : हाडा एक कुदळ मारा एक धेंपो
तितून रोया रोपो तुळशीचो ओ रामा ।।

पंगड 2 : हाडा एक कुदळ मारा एक धेंपो
तितून रोया रोपो दसणीचो ओ रामा ।।

पंगड 1 : हाडा एक कुदळ मारा एक धेंपो
तितून रोया रोपो मोगरेचो ओ रामा ।।

पंगड 2 : हाडा एक कुदळ मारा एक धेंपो
तितून रोया रोपो जाये-जुयेचो रामा ।।

(अशे तरेन हेरूय फुलझाडांचीं नांवां घालूंन वांडोंव येता.)

(चाल बदलून)

पंगड 1 : उदक-पाणी हाडा गे बाये ।
पाजण-शिंपण करा गे बाये

पंगड 2 : सारें-बिरें घाला गे बाये।
आकूर-फागूर सांबाळा गे बाये

(चाल–‘पान म्हजें फोफळ तुजें। चुनो कोणालागीं आसा गे.)

पंगड 1 : एक पान, दोन पान,
पानार पानां पांचवी गे।

पंगड 2 : पांचवी पानां, रंगैता कोण,
पानां रंगैता देवमाया गे।

पंगड 1 : आयल्या गांवां, पयल्या गांवा
निरोप धाडा सत्वरीं।

पंगड 2 : आयज फाल्यां, फाल्यां गे परवां
झाडां फुलून फळटलीं।

(चाल बदलून – ‘कचे’)

जोडी 1 : फूल गो झाडा, फूल गो फूल ।
भोंवराक म्हाज्या घाल गो भूल
भोंवर म्हाजो भुलतलो ।
गोपांत तुज्या झुलतलो

जोडी 2 : फळ गो झाडा फळ गो फळ ।
उजय म्हाजें पडिंग मळ
खळें खळें भरोंदी ।
जिवित आमचें सरों दी

89.

## पावस पडे

(फुगडी)

पावस पडे गे टपा टपा । किरणांची चल्ल्या आपा लिपा
माकडाचें लगीन आतां । बेगीन मारा गे धेंपां धेंपां

पावस पडे पावस पडे । पाणयान भल्ले घडे
आयल्या वाड्यार पयल्या वाड्यार । व्हांवून गेले आडे

पावस पडे घसा घसा । सोप्यार येवन बसा
पणसाचीं भिकणां खावन । शेजाऱ्याचें तासा

पावस पडे गे शिरी शिरी । जोतां चाले हिरी हिरी
धवळ्या पोवळ्यान तोडली दोरी । लागली बांदार धिरी

90.

## बंधवानी बंधवा रे

(फुगडी)

बंध्वानी बंध्वा रे हे, फुलांचे मळे काय हें
दुकांचे तळें रे॥

रूखाच्या तळाशीं ही, सांडिल्या सावुली काय
मायेची पावुली॥

रूखाचे भोंवतणी हें, भोंवराचें गाणें काय हें
तुजेंच जीणें रे॥

रूखाच्या पानांशीं हो, झणझणटा वावु काय हो
भयणिचो भाऊ रे॥

91.

## म्हाजे कुळरीचे वाटे...

(फुगडी)

म्हाजे कुळरीचे वाटे।
निळ्या पाणियाचे सांठे ।

म्हाज्या कुळरीच्या थळां।
देवदेवतांचीं देवळां ।।

म्हाज्या कुळरीच्या गांवा ।
गायो म्हशी दुदा-गोरवां ।

म्हाज्या कुळरीच्या रानां ।
गोड चारां काण्णा चुन्नां ।

म्हाज्या कुळरीच्या आंगणां ।
फुट्टा राशीनी गे भिण्णां ।

म्हाज्या कुळरीच्या घरा ।
येत्या-वेत्या उत्कीं दारां ।

92.

## आपोवणें येयलां सायबा नाचपाकू

आपोवणें येयलां सायबा नाचपाकू
आपोवणें येयलां सायबा गावपाकू
ना पणजे, ना मुंबय, दिल्लीकू
पांखां फुटलीं बांदावयले कुल्लेकू

कांतून पिळून काडात गो गोड नाल्लां रोस
सान्नां आनी शिरवळ्यांचे घोस काडात घोस
वल्ली सुपांत धरना अशी जाल्या खोस
तळ्यांत आनी मळ्यांत घालूंया आनंदाचो धोस ।।

अप्रुपाचें फूल सायबा पोरसुवांत फुल्लां
धायदिको परमळून नाक आमचें भल्लां
मोलाक येतलीं कोनशाचीं कल्लां आनी सोल्लां
भरून थेया दुडवांनी दोणां आनी बल्लां

93.

## आलतडीं कृष्ण बाये

(फुगडी)

आलतडीं कृष्ण बाये पलतडीं राधा गे । पलतडीं राधा गे ।
पाणीयाक प्रेमाची बाधा गे बाये । पाणीयाक प्रेमाची बाधा ।।

हे वाटेंतल्यान कोण राय गेला गे। कृष्णराय गेला गे।
कुंजवना वेणू वाजयता गे बाये। कोणांक कोण सादयता।।

यमुनेच्या कांठार कोण बाये न्हाता गे। गौळणी न्हाता गे।
कन्हैया मुरली वाजैता गे बाये। रुखार न्हेसणां लिपयता।।

कालियाचे फणेचेर कोण बाळ नाचता गे। कृष्ण बाळ नाचता गे ।
धायदिकां चक्रधर गाजता गे बाये। धायदिकां चक्रधर गाजता ।।

गोकुळीच्या खळ्यांत काय क्रिडा रंगता गे। रासक्रिडा रंगता गे।
आवतण-भोंवतण दंगता गे बाये। आवतण भोंवतण दंगता ।।

# परिशिश्ट - 1
## पूर्वप्रसिद्धी /वितरावणी

### नमन

1. ईश्वरा दयाघना - 'काळजाच्या दोण्यांत'कॅसेट / सीडी
2. धनयां देंवचारा - 'धनयां देंवचारा' नाटक (2003)
   'गुणाजी' सीडी (2012)
3. पयलो साद घालतां देवा - नाटकांखातीर बरयिल्ली नांदी
4. नमन नटवरा - 'तिरंगी चक्राचक्री' नाटक (1998)
5 तुजे कृपेन चलता देवा - जागराखातीर बरयिल्लें गीत
6. देवा धनयां भगवंता - 'अंता घरा भगवंता' नाटक (2001)
7. म्हज्या काळजाची पणटी पेटय - 'आत्मवंचना' नाटक (1992)
8. हें निमाणें पालखेचें पेणें - 'आत्मवंचना' नाटक (1992)
   'देखणी दुराय' फिल्म (1995)

### आंवडे

9. नवचेतना येता फुलून - आकाशवाणी पणजी
   'देखणी दुराय' फिल्म (1995)
10. सान सानुल्या मोगरे कळ्या... - 'देखणी दुराय' फिल्म (1995)
11. दर्याचें गीत - 'गा आमी राखणे' (कविता संग्रहांतल्यान पुनरमुद्रित)
    'देखणी दुराय' कॅसेट (1994) 'चंद्रसरगम' सीडी (2012)
12. फातरार फातर चड्टा रे - 'चैतन्याक मठ ना' नाटक
13. आमी झर झर झरले मरे
14. घुडी लागली रे... - अ. भा. कोंकणी परिशद, मडगांव, (जाने. 1993)
    स्वागत गीत, 'देखणी दुराय' कॅसेट (1994)
15. पड रे पावसा - 'सुनापरान्त'
16. येतले दीस अशे

17. रक्तसांवार! हाय रे हाय! – 'सुरींग' फिल्म (2013)
18. खण खण खण – काळजार घण – 'सुरींग' फिल्म (2013)
19. आमी जावन गेले – अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलन, परवरी
    येवकार गीत (2001)
20. शांती रे! – 'धनयां देंवचारा' नाटक (2003)
21. सये अस्तुरेचें जीणें...
22. न्हय गे सये वाट ती चलून वचपाची
23. स्वामी चैतन्याचीं राया पावलां वाजता – 'चैतन्याक मठ ना' नाटक
24. सकाळपारा उत्तीं केलीं... – 'अंता घरा भगवंता' नाटक (2001)

## प्रेमतरंग

25. काळजाच्या दोण्यांत म्हज्या – 'काळजाच्या दोण्यांत' सीडी
    'सांगाती' व्हिडिओ फिल्म (1997)
26. तूं आयज येतलें देखून – 'काळजाच्या दोण्यांत' (सीडी)
27. गीत एक गावचें आसलें – आकाशवाणी पणजी
28. धर म्हाकां तूं धर – 'सुरींग' ओडिओ सीडी (2013)
29. फुटलीं फुटलीं सांवरीचीं बोंणां –
    पणजी दूरदर्शन, 'आत्मवंचना' नाटक (1993)
30. ज्या फुलाक गंध भल्ला... – 'देखणी दुराय' (1995)
31. नाच राधे नाच – 'काळजाच्या दोण्यांत' सीडी
32. अस्तुरी सुंदरी पर्वताची परी – 'काळजाची काणी' नाटक (2000)
33. अंबिका तू राधिका 'अंता घरा भगवंता' नाटक (2001)
34. म्हाका संवसार करपाची लागल्या आस – 'दौलत' फिल्म (2003)
35. प्रेमजीवांची जोडी – 'काळजाची काणी' (2000)
36. रानफुला सपन तुजें – 'काळजाची काणी' नाटक (2000)
37. धायदिको आयल्या भरून – 'गुणाजी' सीडी (2012)

## प्रेमजागोर

38. प्रेमजागोर – 'प्रेमजागोर' नाटक (1999)

## गजल प्रयास

39. हांव पिलां इल्लोसो
40. समजूं नाका हांव धुल्ल आसां – 'सुरींग' सिडी (2013)
41. लकता खांबो जाल्यार सांग म्हाका
42. काल तांच्या सपनांचो...
43. धोलता आजून दाणी
44. बंड करपी काळखाआड...
45. एकमुखी थारावणी
46. म्हजें सरण सुंदर जळटा

## शिर्शकां

47. युवा महोत्सव शबै शबै – युवा महोत्सव - सावयवेरें (2004)
48. काळे गोरे आवसुले – 'कांसुलो' नाटक (2002)
49. ही चतुरंगाची कथा – 'चतुरंगा' नाटक (2005)
50. वयर वयर पर्वतार – 'काळजाची काणी' नाटक (2000)
51. आमी सयामी – 'सांगोड' नाटक (2004)
52. चैतन्याक मठ ना – 'चैतन्याक मठ ना'
53. बोला फुलाक गांठ पडटा – 'दिश्टदौलत' नाटक
54. परिक्रमा – 'परिक्रमा' नाटक (1993)
55. संवसार सांगाती – पणजी दूरदर्शन मालिकेखातीर (2013)
56. सांग सये तूं कशी निर्बळा जाली? – 'निर्बळा' नाटक (1994)
57. देखणी दुराय – 'देखणी दुराय' फिल्म (1995)
58. शिरी रे शिरी – 'शिरी रे शिरी! अधांतरी!' नाटक (1999)
59. ध्वनी–मौनाचें मीलन सुंदर – 'चित्रस्वयंवर' नाटक (2003)
60. फिरंगी फटास – 'फिरंगी फटास' नाटक (2011)

## विडंबन

61. होंवयो - 'कथा अस्तुरी' नाटक (2006)
62. हांव हो असो - 'शिरी रे शिरी! अधांतरी' नाटक (1999)
63. गोंधळी म्हूर्तार पर्वतार - 'काळजाची काणी' नाटक (2000)
64. पांयांर तुज्या लीन आमी - 'सुरींग' नाटक (1982)
65. आयज प्रभाती उदेंत रंगली - 'तिरंगी चक्राचक्री' नाटक (1998)
66. खर्र खर्र म्हजें खरपता माथें - 'श्री विचित्राची जात्रा' नाटक
67. आबो आबो धांव रे - 'चैतन्याक मठ ना' नाटक (1991)
68. फू ऽऽ फूऽऽ हो प्रेमधुंवर - 'चतुरंगा' नाटक (2005)
69. देवा चित्रविचित्रा - 'श्री विचित्राची जात्रा' नाटक (1986)
70. मम्मा म्हाका कळना - 'फिरंगी फटास' नाटक (2011)
71. आयदन - कादन धाडय बडय - 'चतुरंगा' नाटक (2005)
72. कांकणकार कुड्डो हांव.... 'चतुरंगा' नाटक (2005)
73. तीन एके तीन - 'तिरंगी चक्राचक्री' नाटक (1998)
74. विटंबना जिविताची - 'तिरंगी चक्राचक्री' नाटक (1998)
75. भगवान! 'तिरंगी चक्राचक्री' नाटक (1998)
76. आमच्या हांतांत कट्टी - 'तिरंगी चक्राचक्री' नाटक (1998)
77. अकलेन आमी वागतले - 'तिरंगी चक्राचक्री' नाटक (1998)
78. तिरंगी चक्राचक्री- 'तिरंगी चक्राचक्री' नाटक (1998)
79. कुटू कुटू कांसव वाट चाले - 'कांसुलो' नाटक (2002)
80. चित्र स्वयंवर घडटा - 'चित्रस्वयंवर' नाटक (2003)

## लोकमांड

81. सिंथीया ओ सिंथीया 'देखणी दुराय' फिल्म (1995)
82. वारे वा जिवीत - 'सुरींग' नाटक (1982)
83. भांगराचो तूं गुळो - 'गुणाजी' सीडी (2012)
84. वयर वयर माडावयर - 'गुणाजी' सीडी (2012)
85. कृष्ण कन्हैया - फुगडी

86. गोंयां चार म्हयने पावस पडटा - फुगडी
87. खंय लिपलासी भगवंता - 'अंता घरा भगवंता' नाटक (2001)
88. हाडा एक कुदळ मारा एक धेंपो 'चैतन्याक मठ ना' नाटक
89. पावस पडे - फुगडी
90. बंधवानी बंधवा रे - 'राखण' नाटक (1979)
91. म्हाजे कुळरीचे वाटे - फुगडी
92. आपोवणें येयलां सायबा नाचपाकू - 'गुणाजी' सीडी (2012)
93. आलतडी कृष्ण बाये - 'वधचक्र' मराठी फिल्म

**चत्राय :** नाटकाच्या नांवां मुखावयलें कंसांत दिल्लें वर्स, नाटक रंगमाचयेर आयलां तें वर्स आसा, नाटक पुस्तक रुपान आयलां तें वर्स न्हय.
तशेंच फिल्म, सिडीच्या नांवां मुखावयलें वर्स प्रसारणाचे / वितरणाचें वर्स आसा.



कविता, कथा, कादंबरिका, कादंबरी, बालनाट्य, एकांकी, नाटक, निबंद आदि साहित्य प्रकार लिलया केळोवपी पुंडलीक नारायण नायक हांगेल्या गीत रचनांचो हो संग्रह *नवचेतना.*

सादारण 1980 ते 2012 मेरेन म्हणल्यार सुमार बत्तीस वर्सांच्या काळांत नाटक, सिनेमा, दूरदर्शनां खातीर रचिल्लीं गितां, तशेंच कोंकणी संमेलनां–परिशदां खातीर रचिल्ल्या येवकार गितांचो आनी स्वतंत्ररितीन बरयिल्ल्या गितांचो हांतूंत आस्पाव केला.

गीत रचना हो पुंडलीक नायकाचो आवडटो साहित्य प्रकार आसा. ते जायते फावट म्हणटा– आपणाक नाटककार जावपाचो नासल्यार आपूण गितकार जावप पसंत करतलों आसलों. तांगेल्यो ह्यो गीतरचना वाचतकूच तांगेल्या म्हणण्याचें खरेपण पटलेबगर रावना.




ISBN 81-86488-97-9